# रातराणी



अशोक भोंसलो




- जैत प्रकाशन -

✷ रातराणी (नवलिका)
- अशोक भोंसलो

---

Ratrani (Novelette)
**- Ashok Bhonsle**



✷ प्रकाशन क्र. ११

✷ पयली आवृत्ती २००३

✷ अशोक पांडुरंग भोंसलो
घर नं. ५०,
भाटलें - पणजी - गोंय

✷ छापपी :
सह्याद्रि ऑफसेट सिस्टम, कोरली, गोंय

✷ मुखचित्र
ए. पर्रीस

✷ प्रकाशक :
जैत प्रकाशन
३३६/११, खोर्ली, इल्याश, गोंय - ४०३ ११०
फोन : २८४६३७

✷ मोल रु. ६०/-



नवलिका लेखन काळ १९७९ वर्सा. १९८० वर्सा 'कुळागर' नवलिका लेखन स्पर्धेंत 'रातराणी' नवलीकेक लेखनाचें दुसरें बक्षीस फावो जाल्लें.

ISBN81-86487-00X

# - भेटवण -

आमच्या भाटले स्पोर्टस् कलबाचे जैतीवंत कबड्डी खेळगडे 'V' विलास नायक, विश्वास वायंगणकार, विश्राम पालेकार आनी कणधार रमेश सारवळकार, वेवस्थापक विनोद वायंगणकार हांकां 'रातराणयेचो' परमळ नमळायेन भेटयतां.

तुमचो अिश्ट
- अशोक

**मा**र्गशीश म्हयनो. कुडकुड्याची थंडी पडटा. आमोरेचीं सुमार सात वरां जायत. विस्वासरावाच्या व्हडल्या बंगल्यांत अेक पार्टी चलता. बंगल्याचो व्हडलो वसरो खुपूच सजयला. तांबडी, पांचवी, हळदूळी, केसरी कोराची बोनेरां लायल्यां. कितल्याशाच कोरांचे बोमाड्यांचे घोंसूय मदीं-मदीं हुमकाळायल्या. वसऱ्याचे अेकेकडेक बसून वाजंत्री संगीत वाजयता. ताणीं पाश्चात्य संगीत वाजोवन गोड सुरावट वसरोभर पातळयल्या. त्या पाश्चात्य संगीत - सुरावटीच्या तालार चले - चलयो अेकामेकाच्या वेगेंत हातांत हात घालून मोगाच्या संवसारांत शेणल्यां. चाकरमाने बरी लींप मुस्तायकी चडोवन, अुंची-अुंची सोऱ्यान भरिल्ले ग्लास थाळयानी घेवन, हेवटेन-तेवटेन वचून सोयऱ्यांची सेवा करता. ग्लासाचेर ग्लास आपटता. तांचो शिऽऽण्ण करून येता तो आवाज संगीत-सुरावटींत भरसून कावळयांच्या काव-कावांत सारोळेची पिल्लूकशी विरगळटा. जे सोयरे नाचनासले ते नाचतल्यांक पळयताले. थोडे मोट्यान बोबाळ घालीत ग्लासांचेर ग्लास पर-परत आपटीताले. कांय जाण अिल्ले-अिल्ले नशेच्या संवसारांत शेणटाले. तांचो बोवाळ अेक-अेकदां संगीत सुरावटींत चडूच बेसूर जातालो. जशें अेक बारीक नखेत्र चंद्राक लिपोवन चान्ने रातीक लजोवंक सोदता!

सगळो बंगलो बारीक गुलोबांच्या सरपळयानी धांपिल्लो. लायटीचे गुलोब पिक-पिक करून पेट्टाले पालवताले. बंगल्याभितर कितें चलता तें भायल्यान दिसनासलें. पुण दुर्गाकडेपासून आयकूंक येवपी संगीताचे सूर, तांबडी-पांचवी लायट आनी दारांतल्यो तरां-तरांच्यो कितल्योशोच धाकल्यो गाडयो पळोवन, कोणेय अंदाज करूं येता, बंगल्या भितर कसलोय तरी सुवाळो चलता! बंगल्याच्या देट्ट्यामेरेन ओळीन लायिल्ल्यो देशी-विदेशी गाडयो बंगल्याची सोबाय वाडयताल्यो.

बंगल्याची सगळीं जनेलां अुगडीं आसली. पुण त्या जनेलांक अुंची-मखमली कपड्यांचे पडदे आसले. बल्कांवाच्या वाटकुळ्या खाब्यांक आनी वणटींक कागदाच्यो वाली-फुलां रेवडायल्लीं. वाऱ्याचे थंड वावशेसरशी फुलांवाली चले-चलयो नाचतात तांच्या वांगडा नाच करताल्यो. वसऱ्याचे सरभोवंतणी बारीक अुजवाडाचो काळोख आसलो. बंगल्यांतलो हो सोबीत असो मनाक भूल घालपी देखाव संवसाराचे वेगळे शिमेवेलो आसूंक जाय!

विस्वासरावाचो अेकलोच अपुरबायेचो पूत अमेरिकेकसून आयला. ताच्या येवकाराक हो पार्टेचो दबाजो चलता. गोंय मुक्त जावंचे पयली विस्वासराव पुर्तुगेजांच्या राजवटींत कोर्टात फिरग्यांचो आदवोगाद आसलो. ताणे पाखल्यांचे पाय चाटून खूप पयसो लागीं केल्लो. आनी गोंय स्वतंत्र जाल्या अुपरांत व्हडल्या भौमानान अुद्योगपती म्हूण मिरयतालो.

शाराच्या माथ्यार ताचो बंगलो. ताची अेक मिनाची खण चलता. लक्ष्मी ताच्या पांयाकडेन लोळटा. समाजांत ताका भौमान आसा. कितलेशेच तांगेर गाडी-घोडे आनी नोकर चाकर. तांगेर खास अश्यो विदेशी गाडयोय आसात.

ताच्या चल्याचे नांव अुदय. घरच्याखातीर तो बाबू. आनी चाकर - वावराड्यांक धाकलो धनी. तो शिकपांत हुशार. ल्हान पिरायेरूच कॉलेजचें शिक्षण ताणे पुरें करून आनीक चार वरसां शिकपाक तो अमेरीकेक गेल्लो. आठदिसांपयलीं तो थंयचे शिकप पुरें करून गोंयात आयिल्लो. त्याखातीर आयज विस्वासरावाच्या सोबीत-व्हडल्या बंगल्यात पार्टी चलता.

पार्टेक अिल्लो - अिल्लो रंग चडत वतालो. गिरेस्तकायेचो रंग अुदळिल्ल्या लोकांक सगळे चाकर - मानाय नियाळटाले. कोणाक कितें जाय नाका ते पळयताले. त्या मानायां भितर बंगल्याचो माळी - शंकराची नात विषय आसलें. ताचे सोबीत आंग आनी फुलाभशेन रूप. ताच्या सुस्कारांतल्यान रातराणयेचो परमळ व्हांवतालो. तशें तें मानायांपरस वेगळें आसलें. वारांडाच्या अेका खांब्याच्या आडसाक अुबें रावून विषय नाच पळयतालें. ताच्या हातांत बंगल्याच्या बागेतलें सगळ्यान सोबीत अशें फूल आसलें. ताची नदर अेकाच नाचपी जोडप्याचेर थिरावल्ली. विषय अुदयाक घरच्यासारकेच बाबू म्हणटालें. दोगांयचें भुरगेपण ह्याच बंगल्याच्या चार वणटीभितर सरिल्लें.

अेक - दोन दीस न्हय तर पुऱ्या चार वर्सांनी विषय आयज अुदयाक पळयतालें. ताका भेट म्हूण दिवपाक विषयान बागेतलें सगळ्यान सोबीत अशें गुलाबाचें फूल हाडिल्लें.

अुदया वांगडा जी चली नाचताली ती मात्शी चडूच अतितायेन ताचे वेगेंत रिगताली. शेताची पाली मारिल्लेसारके ताचे खांदामेरेन कापिल्ले कैंस नाचताना झेलताले. नदरेक पडटांच दोळ्यांक दिपकावपी अशी ते चलयेची आंगलोट. काजुल्याभशेन चकचकपी दोळे. पिकिल्ल्या मानकुराद आब्यांकोराचे मात्शे तांबसार-हळदुळसार पोले. रुमडाच्या पानाभशेन कपळ. हरयाळीचे पालयेभशेन कोरिल्ल्यो आसकट्यो. चाफलें कशे नाक. पटकळेच्या फुलांभशेन तांबडेगुंज भूल घालपी ओंठ. पोपायेच्या गोळांभशेन हड्ड्याची गोलाय. सगळेच सोबीत - जशी कांय साच्यातल्यान काडिल्ली सोबीत म्हुर्त. ते अस्तुरेन आंगार मॅक्सी घाल्ली. ते मॅक्सीक बटन नासले. कमरेमेरेन ताची सगळी फाट नागडी आसली. नाच करतना ते चलयेन अुदयाच्या हड्ड्यार आपली तकली दवरून दोळे बंद केल्ले. ओंठार हांसो फुलिल्लो. जशे कांय ते सर्गाचे भोंवडेर वतालें.

नाचतना अुदय ताचे नागडे फाटीचो अणभव घेतालो. अुदयाचे हात ते चलयेच्या फाटीर ल्हव-ल्हव भोंवताले. जशे कांय खाड काडचेपयलीं ब्रशान पोल्यांक शाबू लायता.

हो देखाव पळोवन बागेंतल्या सगळ्या झाडांचे कांटे आपल्या काळजाक तोपतात अशें विषयाक दिसलें. अुमळ जावन धर्तरेक चिरो पडटात तश्यो विषयाच्या काळजाक वेरो गेल्यो.

पयलेच खेप विषयान तांकां नाचताना पळयलीं तेन्ना त्याच्या हातांतले गुलाबाचे फूल अवचीत गळून जमनीर पडटलें आसलें. ताका हातांत सारके साबाळून विषयान आपल्या मनाक समजयलें. गिरेस्त-भाटकारांच्या असल्या सुवाळयांक असलेच तरेचे नाच जाता आसूंये! अुदय तर अमेरीकेक वचून आयला. थंयच्या वातावरणातले अिल्ले तरी ताका गुण येतलेच.

तरी आसतना अेके वेगळेच तरेची किळस ते चलयेविशीं विषयाच्या मनांत अुप्रासली.

विषयाचे मन गोंदळांत पडलें. ताणें पर - परत येवजीलें, - आपली वाट वेगळी आनी अुदयाची वेगळी. न्हंयच्या देगां भशेन. त्यो देगो अेकामेकांक केन्नाच मेळना. अुदयाक असलीच चली मेळपाक जाय. गिरेस्ताली, सोबीत - सुंदर. उदयाच्या पायाची धूळपासून जावंचेली आपली लायकी ना. अशेच कुंवरीसारकी ताका चली मेळपाक जाय. जी आतां ताच्या वेगेंत थरथरता.

पुण कितलेंय जालें जाल्यार अुगड्या दोळयांनी तांकां नाचता ती पळयतकच ते चलयेविशीं विषयाच्या मनांत जाळ जल्मतलेच! ताका न्हय न्हय ते प्रश्न भेश्टावंक लागले. अशें हे वेगळेच कितें घडटा? काळजाच्या बंदपासांक शिम-मेर नाच कांय? कांय आदी काळपासून चलत आयिल्ले बायलांचे भोग ते? सिता जावन वनवासांत वचप. अहिल्ल्या जावन शिळा जावन पडप. कांय रंभा-मेनका जावन बायलांनी दादल्यांच्या वेगेंत नाचचें? नाचा वांगडा तांच्यो कुडीय अेकरूप जाता आसत कांय? तांचो अेकामेकाचेर मोग आसतलो? विषयाच्या मनांत अुप्राशिल्ल्या प्रश्नांनी - प्रतिप्रश्नांनी गोंदळून गेले. अेकाय प्रश्नाची जाप ताका सारकी मेळलीना.

संगीत अेकेलयेन वाजतालें. तरणी जोडपीं नाचतालीं. ताणीं तरां-तरांची मोद केल्ली. तरां-तरांच्या रंग-रंगयाळया कपड्यांक लागून सगळोच कार्नावालाचो मेळ कसो दिसतालो. वसऱ्यावेलो अुजवाड पारा-पारान चड जातालो तर पारा-पारान सामको अुणो. तांबडो-पांचवो फोकस मदीं-मदीं पडटालो. मन गुल्ल करून सोडपी ह्या सुवाळयांत सगळेच अुमेदी वातावरण. सगळयाक चेराचो परमळ. तेचभशेन मदीं - मंदी सोऱ्याचोय वास नाकांत रिगतालो. सरगांतल्यो अप्सरा धतरिर देवून यक्ष - किन्नरावांगडा ह्या वसऱ्यार नाच करता असोय भास जातालो.

विषयान खूप वेळ अुदयाक आनी ते चलयेक नाचता ती पळयलीं. ताच्यान आनीक अुबे रावपाक जायना जालें. काळजाक सुरो तोपिल्लेभशेन ताका दिसलें. धुवळ कशी ताका येवंक लागली. कपलाक मिरयो पडल्यो. तोंडार निराशेची नुरा पातळली. थंडेचे दीस आसूनय ताका चरचरीत घाम सुटलो. तें वारांडांत जंय अुबे आसले ताचे कुशीक माळयेर वचचेलीं सोपणां आसलीं. तें अेका सोपणार बसलें. बसलां थंयच तें परतें चितपाक

लागले. - ती कुंवर कोण कांय? अुदयाचे आनी ते चलयेचें कशें सूत जमलें ? तांचो फुडें विचार कितें आसतलो? ती दोगांय लग्न बी जातलीं कांय?

अितल्यान संगीत अेमदम मोठ्यान आनी फांस वाजलें. नाचाचो अेक वांटो सोंपलो. वसरो अुजवाडान चकचकलो. तरनाटीं अेकमेकाच्या वेगेंतली विस्कळ जालीं. मळबांत अुडटाना अवचीत धंडांयचकरून भूयेर आपटिल्ले भशेन तांकां जालें आसूंक जाय. पुण सगळयानी मोट्ट्यान ताळयो माल्ल्यो.

सगळे लोक ताळयो मारून आपल्याची फकाणां मारता अशें अेकेकडेक बशिल्ल्या विषयाक दिसल्याबगर रावलेंना. पुण ताणें स्वताचेर ताबो दवरलो. ताका जाल्लो तो भास कसो आसलो. पार्टेक आयिल्ले अिश्ट-सोयरे आपल्याच संवसारांत गुल्ल जाल्ले. अेके माळयाचे नातीचेर नदर भोवडावंक तांचेकडेन वेळ तरी खंय आसलो!

नाचाचो अेक वांटो सोंपल्या अुपरांत थोडो वेळ खाणा-जेवणाक आनी विसव घेवंक आसलो. थोडे लोक कदेलांचेर बसले. थोडे खावपा-पिवपाक वळले. तर कांय तरणी जोडपी बागेतलो थंड वारो घेत झाडांच्या आडसाक वचून बसलीं. कांय जोडपी आप-आपल्या गाडयांनी वेंग मारून बसलीं. नाचुनूय तर तीं तापलेलीं. मात्सो धग न्हिवूं नाका? असल्यो पार्ट्यो म्हणजे तांच्यो वेगळेतरेच्यो पिकनिक्यो!

सपणाचेर आनीक बसप धड न्हय म्हूण विषय अुठून अुबें रावलें. अितल्यान ताच्याच म्हऱ्यात येवपी जोडप्यार ताची नदर पडली. ताका सट्ट जालें. ताचे काळीज धडधडूंक लागलें. गिरणीच्या पट्यासारको आवाज आपल्या काळजांत जाता असो भास विषयाक जावंक लागलो.

अुदया सांगात नाचताली सोबीत चली, जी खिंणा-खिंणाक ताच्या आंगाक दसताली, ती अुदया वांगडा येताली. येतना दोगांय किते तरी ल्हव आवाजान फुतफुतून हांसतालीं. दोगांय अुमेदीन आसलीं.

दोगांय माळयेर वचूंक वतालीं. तीं जशीं लागीं येवंक लागली, तेसरशीं विषयाक

दिसलें, आपल्या हड्ड्यार सोरोप येवन गोठेता. तें तशेंच अेक पावल फाटीं सल्लें. तेन्नाच ताचेर चक्क करून अुजवाड पडलो. अुदयान माळयेर वचचेले अिस्कादीचो गुलोब बटन दामून पेटयल्लो. विषय वळून दुसरे वटेन धांवपाक सोदतालें. पुण अुदयाचे अेक पावल सोपणार पडलें आनी नदर विषयाचेर. विषयाचे पाय तिजूल्यांचे जमनीक तशेच दसून अुल्ले. हात थरथरून गुलाबाचे फूल पिकिल्ल्या पानाभशेन गळून सकयल पडलें. ताका अुबारपाचो ताणे येत्नूच केलो ना. ताचो ताळो अनवळखी भयान सुकून गेलो. नदर अधांन्तरी गेली.

अुदयान आनी ते चलयेन विषयाक मात्शें पळयलें. तशीच ती दोगांय अर्दीअदीक सोपणां चडलीं. पुण अुदय अवचीत भानार कसो आयलो. देंवतेर फांतर गडगडून गेल्ले भशेन अुदय सगळी सोपणां अेकानेटान देवून सकयल आयलो. तें चलीय अुदया फाटोफाट देंवले. अुदय परतो असो सकयल कित्याक देवंलो, असो प्रश्न ताका पडलो आसूंये! म्हणटकच तेंय सकयल आयले आनी अुदयाक तेंकून अुबें रावलें.

'तूं - ?' अुदय विषयाक वळखलो. पुण बेठोच दुबाव पयस करूंक ताणे हांसत विचाल्लें, 'तूं विषय न्हय?'

अुदयाची विषयाचेर नदर पडटांच सट्ट करून तो ताका पयलीं वळखलोना. पुण अर्दी सपाणां चडटकच तें विषयूच आसूंक जाय अशी ताका खात्री जाली. चार वरसांनी आयज तो ताका पळयतालो.

विषयाच्या ओठांचे दार, 'हय' म्हणपाक अुगडलेना. ताणे तकली सकयल घालून शेणिल्ल्या हरणाभशेन, 'हय' म्हूण खुणेनूच मान हालोवन सांगलें, हांसचेलोय ताणे येत्न केलो. पुण ओठ रूंद जालेना.

अुदयान विषयाक ताळू ती पायाचे नाखूटमेरेन नियाळलें. ताचे सोबीत रूप पळोवन खुशालभरीत जावन तो हांसलो. 'खूप व्हडलें जालां!'

विषयान अुदयाक पळयलो. ताकाय सांगन दिसलें, 'तूंय तर व्हडलो जाला!' पुण

ताका अुतरां फुटलीं ना. अुदयाक तें आयज चार वर्सांनी जरी पळयतालें, तरी ताचे खातीर ती चाळीस वर्सां कशी आसलीं. अुदयान धवी पेन्ट आनी काळो कोट घाल्लो. सामको राजकुंवर सो तो दिसतालो. पुण ताका कितेंच सांगचेलें धाडस विषयाक जालेंना. ताणे अुदयाच्या कोटाच्या बोल्साक आदीच अेक गुलाबाचे धवें फूल खोयल्ले पळयलें. वेदोळ नाच करतना ते चली ताच्या वेगेंतूच आसले म्हूण ताका पयसुल्ल्यान तें गुलाबाचें फूल दिसूंक नासलें.

अुदयाच्या बोल्साक फूल पळोवन, आपलो जागो कोणे तरी झोंमून घेतलो अशे विषयाक दिसलें. ताणे मान बागयली. तिजुल्यार गळून पडिल्ल्या गुलाबाच्या फुलार ताणे नदर लायली.

विषय सकयलूच पळयता म्हूण अुदयान ताचे नदरेचो सोद घेतलो. विषयाच्या शेणिल्ल्या मनावरींच गुलाबाचें फूल अुदयाच्या पायाची धूळ चाट्टालें. अुदयान वणोव घेवन गुलाबाचें फूल अुखल्लें. ताका बरें करून पळयलें. कांट्याच्या देठांक आशिल्लें तांबडेगुंज गुलाबाचे फूल आपले सोबीतकायेन हांसतालें. अुदयान ताचो परमळ घेतलो आनी नाकाच्या पुडयांतल्यान काळजामेरेन देवंयलो. ताच्या देंठाक धरून घुवंडायत ताणे विचाल्लें, 'फुलां वांगडा अजुनूय खेळटा?'

विषयान अुदयाक परत पळयलो. ताच्या दोळयांत ताणे आपले भुरगेपण सोदलें. - अुदयाचे जिणेंत आपलेविशीं आतां कांयच आदर ना कांय? आपले गुलाबाचे फुल फकत हुंगपाकच आसलें? कांय फाटीं जे घडून गेले ते फकत अेक सपन आसलें?

विषयाक फूल परतें दिवपाक अुदायन आपलो हात मुखार व्हेलो. थरथरत्या हातान फुलाचो देंठ धरतना विषयाचीं बोटां अुदयाच्या हाताक आफुडलीं. तेसरशी विषयाच्या आंगाक बिजलेचो शॉक सो आयलो. ताचो सगळोच हात आनीक कडकडपाक लागलो. आनी तेन्नाच देठाचो कांटो विषयाच्या आखाण्याक तोपलो. तोंडातल्यान, 'सूऽऽ', असो आवाज करीत ताणे आपलो हात सट्ट करुन फाटीं काडलो. बोटांतल्यांन मात्शे रगत आयलें. 'ऑऽऽ, कांटो तोपलो?' गुन्यावकारी जाल्ले भशेन अुदयान विचाल्लें.

विषयान ताचेर कांयच सागलें ना. अचळच हात फुडें करून ताणें गुलाबाचें फूल घेतले. रगत येतालें ताची ताका खंत नासली. जंय ताचे काळीज फुटलां थंय थेंबभर रक्ताची कसली पर्वा?

अुदयावांगडा नाचताली ती चली ताच्या कुशीक अुबी रावून तांचे चलिल्लें हें सगळे नाटक मोन्यानी पळयताली. ताका विषयाचो सामको राग आयलो. अुदयान विषयाविशीं दाखयल्लो आदर ताका मातपासून मानवलोना. विषयाच्या तोंडावेली लजेची सया आनी सोंशीक अशी गंभिरताय ताच्या दोळयांक तोपली. घडये चडश्यो चलयो अेकामेकाचो सदांच दुस्वास करता आसूये! ती चली मनांतल्या मनांत खुपूच चाळवली. आनी तिणे कुसडेपणान सांगलें, 'फुलां वांगडा खेळप सोपें न्हय. फुलांक कांटेय आसता.'

'फुलां वांगडा खेळपी कांट्याची पर्वा करीना.' विषयान ते चलयेक फाराक - फार जाप दिली. अवचीत विषयाक खंयचो नेट आयलो म्हूण देव जाणां. अितलो वेळ ताच्या काळजांत धुंवरेल्लो खोजनो खिणां भितर फुटलो.

विषयाची अुतरां आयकून ती चलीय काळी - निळी जाली. विषयाच्या केश्ट्यांक धरून दोन वाजोवची अशें ते चलयेच्या मनांत आयल्या बगर रावलेंना. हें सोबीत सोयरें कोण आसत कोण जाणां अशें येवजून अुदयाच्या हाताक धरून ओडीत म्हणटा तसो ताका वयर माळयेर व्हेलो. वतना ताणे विचाल्लें. 'कोण तें चली?'

'विषय.'

'विषय? कोण विषय?' मात्शा दुबावान आनी चडशा दुस्वासान कपलाक मिरयो घालीत ताणे विचाल्ले.

'आसा अेक. आमच्या फुलकाराची नात.' अुदयान सहज सांगून अुडयलें.

'कितें?' ताच्या तोंडसून भायर सरिल्ल्या ह्या अुतरांत सगळोच दुस्वास भरिल्लो.

'पुण आशा -!'

'सांग.' ताणे पोले फुगयले.

'न्हय. तशे कांय ना आशा.' अुदय मात्सो गोंदळांत पडलो. पुण दुसऱ्या खिंणाक ान बदलचे खातीर ताणे आशाक आपले वेगेंत ओडलें.

आशा ह्या बंगल्याची राणी जावचेली सपना रंगयतालें. अेक नखेत्र चंद्राची आस धरून ताका गांठीक मारचेलो येत्न करतालें. - 'अेका माळयाची नात अितली सोबीत आसूं येता?' आशा आपले भितरूच चिंतपाक पडलें.

अुदय माळयेर वतकच विषय आनीक थंयसर रावलेंना. ते आपल्या आज्याच्या बिराडांत गेले. बंगल्याकुशीक दुर्गाक तेंकून अेक लांबच्या - लांब चाळ आसली. धनयान तांतूंतलें अेक बिराड शंकर माळयाक दिल्लें. त्या बिराडांत दोन ल्हान कुडी आनी अेक ल्हानशीच रांदचीकूड. न्हाणी थंयच. कुमांव बी भायर. सगळया कामगारांक अेक. कांय मानाय आनी ड्रायव्हर बी चाळितल्या हेर बिराडांनी रावताले. हे चाळीक तेंकून गाडयो दवरचेली गॅरेज. थंयसर गाडयांचे मोडकें सामान आनी बागेची मशागत करचेली आवतां दवरलेलीं. खोरीं, कुदळी, कायली, सारें, मळपी बी असलेंच सगळे सामान.

पावंळे भितर सरून विषयान आपल्या बिराडाचें दार धुकल्लें. दार बेठेंच आड केल्लें. भितर अेक पोन्नो बारीक अुजवाडाचो गुलोब पेट्टालो. ताचेर कापोडयान घोयरांव केल्लो. फाल्यां सगल्या बिराडाची लिंपेज करची अशें विषयान चिंतलें. विषय आयजूच चार वरसांनी परत दादागेर पावलां. आज्याक ते दादा म्हणटा. ताचो बापूय मंगळूरच्या अेका खेड्यांत रावता. थंयसून तें सांजवेळार हांगसर पावलां.

शंकरदाद भायले कुडींत सुस्त न्हिदिल्लो. दीसभर काम करून ताच्या जिवाक पुरो जातालें. ताची पिरायूय खूप जाल्ली. तेखातीर ताणे पार्टेचो मातसो दबाजो पळयलो आनी आसा तें जेवन न्हिदलो.

विषयाक भूक नासली. अुदयान ताका किंकोंत शें केल्लें. आपले फूल अुदयान घेवंक ना म्हूण विषयाक खूप वायट दिसलें. अुदयान तर पयलींच कोणेतरी दिल्ले अेक फूल बोलसाक खोयल्लें.

विषयान जनेलांतल्यान भायर पळयलें. बंगल्यातल्यान भायर झिरपता तो पातळ अुजवाड बागेंतले हरयाळीचेर पातळलेलो. विषयान गुलोब वाडयलो आनी कुडींत सामको काळोख जालो. तें भितल्ले कुडींत गेलें. थंयसरूय काळोख आसलो. ताणें अुगड्या ज़नेल्लांतल्यान नदर भायर माल्ली. बंगल्याची अुजवी कूस ताच्या मुखार आसली. तसोच फाटलोवांटो तिरपो दिसतालो. विषयान लोखणाचें पोन्ने कदेल जनेलाकडेन ओडून ताचेर बसलें. दोनूय हात ताणे कोपरांतल्यान दोडून जनेलार दवल्ले. तांचेर आपली खाडकी दवरून विषय बंगल्याक न्हियाळपाक लागलें.

बंगल्याच्या माळयेवेले अेके कुडीची जनेलां अुगडी आसलीं. तांतूंत अुजवाड चकचतालो. ते कुडीचे गॅलेरी मुखार रातराणयेचीं मात्शीं धवसार - पोपटीशीं बारीक फुलां ताचेच भशेन निर्शेल्ली. बागेतल्या फुलांनी आनी रातराणयेच्या झाडान तांच्या मोगाचो दोर वळिल्लो. रातराणयेची बुनयाद विषयान आनी अुदयान भुरगेपणांत मारिल्ली. दोगांय सदांच रातराणयेक अुदक घालतालीं. तेन्ना ते ल्हानशे रोपयेचें व्हडले झाड केन्ना जातलें कांय अशे तीं सदांच चिंततालीं.

आनी आयज ते रोपयेचे व्हडलें झाड जावन फुलां फुल्ल्यांत, परमळ सरभोंवतणी पातळला. अशें आसताना अुदयाक आपल्या भुरगेपणांतली याद जायना?

विषय चिंतपाक लागलें. आतां अुदय परत ते चलयेक वेगेंत घेवन नाचता आसतलो कांय?

पुण ताणे विचार बदल्लो. अुदय आनी ते चलयेविशीं चिंतप ताका बरें दिसलें ना. जर तांकां अेकामेकाची रूच आसा जाल्यार हें कोण तांचे बरें - वायट चिंतपी?

अशें आसतनाय ताच्या काळजाचे जाळ कांय थांबलेना. हड्ड्यातलो बोरी कुशीचो ल्हानसो मांसाचो कुडको ताका तडफडावंक लागलो. अुदयाच्या पायाकडली धुळपासून जावंक आतां आपुण अुपकारना कांय? भुरगेपणांतले दीस फकत खेळपाक आसले? ती सगळीं सपनां अशे समजून ते खींण विसरायेर घालचे?

भुरगेपणातले दीस तरी कितले सादे! कितले पिशे! कितले भोळे! कितले आवडटे! आनी कितले निश्पाप.....!

x x x



**मं**गळुरसून विषयाक ह्या बंगल्यार हाडून सोडलें तेन्ना तें सात वरसांचे आसलें ल्हान बावली शी. ताचो बाबा ताका हांगसर पावोवंन गेलो तेन्ना तें खूप रडलें. विषयाचो बाबा ताचेर खूप मोग करतालो. ताका आवय आसली. अेक ल्हान दोनी वरसांची भयणूय आसली. अितलें आसतना आपल्याक तांच्यापासून पयस केलें म्हूण विषय खूप रडलें.

आपणाक हांगसर कित्याक हाडलां काय म्हूण विषयान शंकरदादाक खूप वेळां विचाल्लें. खूप फोर्स केलो तेन्नाच दादान ताका सगळी खबर सांगली. - ताका खाशेली आवय ना. आसा ती आवय सवत. पुण 'सवत' म्हणजे किते ते विषयाक कळलेंना. तेन्ना सवत म्हणजे कितें तेंय बी दादान ताका पटोवन सांगलें. कितलेंय जालें जाल्यार विषयाचे भुरगें मत. आपणाक खाशेली आवय ना म्हूण त्यावेळार विषय आनीक रड-रड रडलें.

विषय जल्मांक आयलें आनी सुमार म्हयन्याभरयांत ताची आवय अेका वायटान खवंसली. विषयाक सांबाळचे खातीर ताचो बापूय दुसरेपणाक लग्न जालो. सवतीआवयन विषयाक कशें - बशें सात वर्सांमेरेन वाडयलें. अितले मजगतीं तिकाय अेक चली जालें. मागीर विषयाच्या बाबाची आनी तिची भुरग्यांवेल्यान झगडीं जावंक लागलीं. म्हणटकच विषयाच्या बाबान निमणो अुपाय म्हूण विषयाक दादागेर हाडून सोडलें. शंकरदाद पयले बायलेचो बापूय. विषयाचो खाशेलो आजो.

विषयाचो बापूय मुळचो गोंयचोच. पुण कामा - धद्यांक लागून तो मंगळुराक स्थायीक जाल्लो. केन्ना-केन्नाय तो मावाक मेळपाक गोंयात येतालो. अेक-दोन दीस रावून तो परतो वतालो. शंकरदादा वांगडच्या कामगारांकडेनूय ताची वळख जाल्ली.

विषयाक हो वांठार नवखो जाल्ल्यान ताका परत-परत मंगळुरची याद येताली.

तेचभशेन आपणाक खाशेली आवय ना म्हूण ताका रडूंक येतालें. सवतीआवयन मारलां - धपटीलां ती याद ताच्या दोळयामुखार रावताली. पुण शंकरदादाचे अपुरबायेक लागून तें अिल्ले - अिल्ले विसल्लें. विषयाक हांगसर हाडचे पयलीं शंकरदाद केन्ना-केन्नाय आपले नातीक मळोवंक म्हूण मंगळूराक वतालो. ताचे धुवेची विषय ही अेकूच खूण आसली!

शंकरदाद विषयाची खूप माया करी. ताची कसलीच अुमेद ताणे केन्ना मोडलीना. आपल्या पोटाक मारून तो विषयाची आस भागयतालो. विषय रडत जाल्यार ताका तो वेगेंत घेवन बसतालो. ताका निवळ दवरतालो, आनी निवळशे कपडेय घालतालो. जशी कांय ताच्या खेळांतली ही अपुरबायेची बावली लोळूंक फावना.

विस्वासरावाल्या बंगल्यार आयल्या अुपरांत विषय आठूच दिसांनी सगळ्याचे आवडीचे जालें. गोड-गोड अुलोवन शेजारच्या मानायांची ताणे रोकडींच मना जिखलीं. तांचे कुशीच्या बिराडांत पांडू ड्रायव्हर रावतालो. ताका तर विषय मामा म्हणपाक लागलें.

अेके सांजेची गजाल. वरां सुमार साडेपांच जायत. विषयाचो दादा रबराच्या पायपान झाडांक अुदक शिंपतालो. विषय बागेच्या दुसऱ्या कोनशाक आसलें. दरअेका फुलाक तें बारीकसाणेन नियाळटालें. ताणें अेक सोबीत गुलाबाचें फूल तोडपाक हात घातलो. अितल्यान कोणाचो तरी आवाज आयकून तें भिलें. कच्च करून आंग काडलें. गुलाबाचें फूल तोडपाक गेल्लो ताचो हात थरथरलो आनी बोटाक कांटो तोपलो. ते सरशी ताणे हात फाटीं घेतलो.

‘कोण तूं?’

विषयान फाटीं वळून पळयलें. सुमार धा वरसांचो अेक चलो धवो लेंगो - बंडी घालून अबो आसलो. ताच्या गळयांत भागराची सरपळी आसली. विषय गोंदळून ताकाच पळयत अुल्लें.

‘कोण तूं ? कित्याक आयलां हांगसर?’ त्या चल्यान नमळायेन विचाल्ले. ताच्या आवाजांत आदराचो शेक आसलो.

'हांव...... हांव.....!' विषयाक कितें सांगचें ते सुचना जालें. मागीर दादाकडेन बोट दाखोवन ताणें सांगलें, 'तो दादा आसा पळय, तो म्हजो दादा. हांव तेज्या वांगडा रावतां.'

त्या चल्यान शंकराक पळयलो आनी हांसत सांगलें, 'हांव समजलों तूं कोण तरी फुलांकाडपाक हांगसर आयलां म्हूण.'

तेन्नाच ताची नदर विषयाच्या कांटो तोपिल्ल्या बोटार गेली. ताणें विषयाच्या लागीं वचून सागलें, 'आरेच्या! तुज्या बोटांतल्यान रक्त येता.'

'कांटो तोपलो.' विषयान दुसऱ्या हातान खोमशेंची सकयली देग अुबारून रक्त पुसलें.

'फुलां आवडटात तुकां?'

अितल्यान शंकरदाद थंयसर आयलो आनी ताणे विषयाक विचाल्लें, 'बाय, धाकल्या धनयांक पाया पडलें काय ना? हे आमचे धाकले धनी.'

'बरें आसा. कांय नजो. आतां ल्हान आसा तें. व्हडलें जातकच शिकतलें मान दिवंक.' जसो कांय आपुण अेक कोणतरी व्हडलो म्हाल - म्हातारो जाल्ल्या थाटान अुदयान सांगलें.

तरी आसतना विषयान हात जोडले. आनी अुदयान तकली हालोवन जाणट्याभशेन मान घेतलो.

ही आसली अुदय-विषयाची पयली भेट. जशे दीस वचत रावले, तशी ती अेकमेकाच्या लागीं येत रावलीं. अिल्ली - अिल्ली तांची अिश्टागत वाडत गेली.

अेक दीस विषय विस्वासरावाच्या नदरेक पडलें. तेन्ना ताणें ताची वासपूस केली. विषय हें आवय नासलें चली म्हूण ताका कळलें तेन्ना तो खूप चुरचुरलो. ताणे ताका शंकराक सांगून शाळेंत घातलें. पयशेय बी ताचे अडे-अडचणीक दिवंक लागलो. विस्वासरावाचे बायलेचेय मन विषयान पयलेच नदरेन जिखलें. अुदय अेकलोच अपुरबायेचो पूत जाल्ल्यान ताणी ताका विषयावांगडा खेळपाक बी पुरें स्वातंत्र दिलें. भुरगींच तर आसलीं तीं.

विषयाचे गुण, रूप पळोवन विस्वासराव आनी ताची बायल - माओीबाय केन्ना केन्नाय म्हणटाली. 'विषय कोणा तरी भाटकारागेर जल्माक येवंक जाय आसलें!

शेजारच्या बंगल्यातलीं भुरगीं केन्ना - केन्नाय अुदयागेर खेळपाक येतालीं. बागेत हरयाळीर क्रिकेट खेळटालीं. तेन्ना अुदय विषयाक वेगळे दवरनासलो. ताकाय खेळ घेतालो आनी ताका बोल आपशींच मेळूं येता अशेतरेन अुबें करतालो.

अुदय अेकलोच विषयाक मेळटालो तेन्ना चॉकलेटी, बिस्कीटी, पिपीरमिटां बी ताक दितालो. विषयाक सदांच खोशी दवरप अुदयाक आवडटालें. विषय मात ताका भेट म्हणटकच आपशींच मोने जातालें. ते चड अुलय नासलें. चडसो अुदयूच ताचेकडे शिक्षणाविशीं खेळाविशीं अुलयतालों. तांच्यो गजालीं सामक्यो खेळी-मेळिच्यो. व्हडल खंय आसलीं तर तीं?

वेळ वचत रावलो. म्हयने वरसां धांवत रावली. आनी अुदय-विषय अेकामेकाच्य चड-चडूच लागी ओडत गेली.

विषय धा वरसांचे जालें. संवसारातल्यो कांय गजाली ताका कळूंक लागल्यो. पुण ताची बुद्द, विचारसरणी मात भुरगीच आसली. अुदया वांगडा रावचेली, ताच्या वांगड खेळचेली विषयाक ओड लागली. फकत ओड आनी आपलेपण. तांतूंत ताचो कांयच स्वार्थ नासलो. अुदयाचे वांगडी जावन हांसत-खेळत सुमार साडेतीन वर्सां ताणें घालयलीं अुदय ताका खूप आवडतलो. ताका पळयतकच विषयाच्या मुखड्याची कळी फुलताली

अुदयूय सुमार तेरा वरसांचो जालो. ताचेय विचार बदल्ले. तरी अुलोवपांत भुरगेपणूच आसलें. पुण वरसां गेली तशी कोणाच्याय मुखार विषयाक मेळप, ताचेकडेन अुलोवप बर जावचेंना हाची ताका जाणवीकाय जाली. विषयाच्या सोबीत रुपा फुडें संवसारांतल कितलीय सोबीत अप्रूपां विषयाच्या पायाचे धुळीभशेन अुदयाक दिसतालीं.

वेळ पाखां लावन अुडून गेलो. विषयाची पिराय आनीक वाडली. फूल जावपाची सपनां घेवन कळी लजता तेभशेन विषय लजपाक लागलें. ते तेरा सर्वांचे जायत आयलें.

रावें वर्स पुरे जातना तें वाऱ्याचे वादळ जाल्लेभशेन बदल्लें. तांच्यात सगळोच बदल डलो. फुलते कळयेच्या रुपाक तें धांपूक लागलें. खंयसरूय भायर वतना लजेन तकली कयल घालून चलूंक लागलें. अेका ल्हान आरशांत सदांच आपले रूप वरांची - वरां नेयाळूंक लागलें. ताचे तोंडावळीर अमुरपिकीं मुमरां जळपूंक लागलीं. दोळयांक गुलाबी ोद आयलो. पोले तांबसार जावन खोरनांतल्या पोळयांभशेन फुल्ले.

अुदया कुशीक बसतकच विषयाक दिसतालें, - अुदय आपल्या आंगाची चोरी करता. नवो बदल जाला ताचेर ताणें धुरी घातल्या. आपली कूड तो नदरेन आरपार करता. आनी तें चडूच लजतालें. अुदया कुशीचें अुठून धांव मारची अशें ताका दीस, पुण तें थंयच दसून अुरतालें. ती लजती लज ताका खूप गोड लागताली.

विषयाच्या जिवितांत अेक नवे मोड आयलें. अुदय ताका सांजवेळचो मेळटालो आनी केन्ना-केन्नाय आमोरेर तर केन्नाय सगळी न्हिदल्या अुपरांत. रातच्या धा वरां अुपरांत.

विषय अुदयाची वाट पळयत अभ्यासच्या निमतान आपले कुडींत अुजवाड करून रातचें जनेलाकडेन बसतालें. ताच्या जिविताची घडितां अेका वेगळयाच थरार पावलीं. अेके चलयेची फुडली बुनयाद घट जावचेलो तो वेळ. अुदयाक रातचो मेळून जी खोस विषयाक मेळटाली ती दिसाची सगळया हुजीर मेळ नासली.

अुदयूय जाणटो जाल्लो. तो विषयाकडेन आतां सामाळून अुलयतालो. सगळो संवसार न्हिदलो म्हणटकच तीं दोगांय बंगल्याचे फाटलेवशीन अेकामेकाक मेळटालीं. काळखांत अेका झाडा पोदांक सिमीटाच्या बाकार बसतालीं. खूप रात जायसर ल्हव - ल्हव अुलयतालीं. सुरुचीं झाडां वाऱ्याकडेन झेलून अुलयल्लेभशेन तांचे अुलोवप चलतालें.

पयलेच खेप विषय अुदयाचे कुशीक बसूंक अनमनूक लागलें, तेन्ना अुदयान अधिकारान ताका हाताक धरून ओडीत आपले कुशीक बसयलें. पुण दिसाची दोगांय अितली अिश्ट वा वांगडी म्हूण कोणाक दाखय नासलीं. रातचो अुदय विषयाक मेळूंक मागिलदारांतल्यान येतालो.

चंद्र नखेत्रांचो पालोव घेवन मळबांत पेंवता तेभशेन अुदय विषयाच्या रुपाक पळ
पेंवतालो. तेन्ना विषयाच्या दोळ्यांतलो मोद लजतालो. ताचे काळीज धडधडटालें. मा
तें अुदयाचे नदरेक पळयनासतना आडे-कडेक पळयतालें.

आषाढ म्हयनो आयलो. अेके सांजेर विषयाच्या दादान बंगल्याची सोबितव
वाडोवपाक कांय फुलझाडांच्यो रोपयो आनी ताळयो रोवपाक हाडल्यो. ताणे त्यो अेकेक
दवल्ल्यो आनी खोरे, पिकांदर बी हाडपाक गुदावांत गेलो. अितल्यान अुदय आनी वि
अुलय-अुलयत रोपयो आनी ताळयो दवरिल्ल्यो थंय पावलीं. अुदयाची नदर तां
पडटकच अेके झाडाचे ताळयेक बोट दाखोवन ताणे विषयाक विचाल्लें, 'ह्या झाडाचें न
जाणां?'

'रातराणी.'

'तुकां कशें कळ्ळें?' अुदयान अजापान विचाल्लें.

'आमचे शाळेंत आसा असलें झाड.'

'म्हणटकच तुवें फुलांय पळयल्यां आसतलीं.'

'हय, पळयल्यां.'

अुदय हांसलो आनी ताणे सांगलें, 'विषय, तुवें फुलां पळयल्यां आसतलीं, पुण त
पार्थी फुलां. तूं दिसाचे शाळेंत वता, आनी रातराणी तर रातची फुलता. सकाळीं झडटा

विषयान मात्शें चिंतलें आनी अुदयान सांगलां तें ताका पटलें. मागीर ताणे विचाल्लें
'बाबू, रातराणी रातचीच कित्याक फुलता?'

'आगो, ती रातची कित्याक फुलता ते म्हाका काय खबर ना. पुण हे फांदयेव
पळोवन रातराणयेविशींची म्हजी ओड वाडली.'

'कित्याक?'

'पळय विषय, हीं फुलां रातचीच फुलतात. रातचो सगळयाच फुलांक परमळ आसता शें ना. फकत रातराणये सारकिल्या फुलांक आसता. तूंय एक फूल. रातचे तूं म्हाका प सोबीत दिसता आनी चडांत चड आवडटा'.

विषय लजलें. ताणें एका पायार भार घातलो आनी दुसऱ्या पायाच्या आखाण्यान मनीक मील करूंक लागलें.

अुदयान कांय खींण चिंतनांत घालयले आनी रातराणयेची ताळी अुबारून सांगलें, हांव हे फांदयेक बंगल्याक तेंकून म्हजे कुडी सकयल रोयतां. ही व्हडली जातली तेन्ना माळयेर, म्हज्या कुडीच्या जनेलार लकतली. तेन्ना तुजे - म्हजे तरणेयादीची अुमळ जातली. रातराणये - फुलांचो परमळ कुडभर पातळटलो. तूं पयस आसल्यारपासून लागीच आसा अशें म्हाका दिसतलें.'

अुदय सांगता तें विषय आयकत रावलें. ताची काया अुमेदीन फुल्ली.

'विषय, चल. भुरगेपणांतली याद दिवपी गवया आमी जल्माक घालूया.'

विषयान वचून धाकली कुदळ हाडली. दोगांय बंगल्याच्या कुशीक गेलीं. अुदयाचे कुडी सकयल ताणीं रातराणयेची बुनयाद माल्ली.

अुदयान आपल्या हातान फोणकूल खणलें. विषयान रातराणयेची फांदी फोणकुलांत दवल्ली. मागीर दोगांयनी माती साल्ली. अुपरांत विषयान थोडी मळपी रातराणयेच्या मुंदाक हाडून घातली.

तेन्नापासून दोगांय पर-परत वचून रातराणयेक पळयतालीं. जाता तितले बेगीन रातराणयेचें व्हडलें झोप जावचें अशे तांकां दिसतालें. रातराणयेच्या परमळाक दोगांय आशेल्लीं.

अेके रातची बंगल्याच्या फाटल्यावशीन अुदय आनी विषय वचून बसली. त्यावेळार अुदयान सांगलें, 'विषय, म्हजो अेक अिश्ट तुजेविशीं कितें सांगता जाणां?'

'कितें?' विषयान ताका अजापान पळयलो.

अुदय सांगत रावलो - 'अिश्ट सांगतालो, तुमच्या माळयाली चली सोबीत दिस
हांवे सांगले, आमच्या बागेतलें तें सगळयान सोबीत फूल. ताणे विचाल्लें, फूल फक
हुंगपाक आसता, तुवें केन्ना हुंगलां? हांवें सांगलें, फूल बागेची सोब वाडयता. घराची से
वाडयता. ज्या घरांत मनशाक सगळे जिवीत सारचें पडटा. हांवे ताका हेंय सांगलें, - फू
कोटाच्या बोल्साक लावचे खातीर आसात. बोल्साकुशीक भितर काळीज आसता. फू
काळजाकुशीक आसले म्हणटकच धादोसकाय भोगता. फुलाचो परमळ काळजामरे
पावता तेन्ना अेके वेगळेच तरेची मनांक गुंगी चडटा. सगळी दुखां विसरायेर पडटा. हें हां
सागलें तें आयकून तो अिश्ट कुसडेपणान हांसूक लागलो. आनी ताणें सांगलें, - तूं ज्य
फुलाची खबर सांगता तें फूल वेगळेंच आसतलें. तुमच्या माळयाची नात फकत हुंगपाखातीर
मौज मार आनी शेवटून अुडय. तूं ज्या फुलाची सपना रंगयता तें कोणाय भाटकारालें
आसतलें. ही ताची अुतरां आयकून म्हाका सामकी भिरभिरी माल्ली. हांवे ताका बरोच
शेक दिलो. दोन-चार कानसूलार फाफूडलीं. म्हजी आनी ताची अिश्टागत आयच्यान
सोंपली.

हें सगळें सांगता आसतना विषय 'अुं, अुं' करीत आयकतालें. अुदय अिश्टाकडेन पासून आपली तुस्त करता आनी आपल्याक कोणेय कितेंय म्हळयार अुदयाक राग येता म्हूण विषयाक अुमेद जाली. पुण आपलेखातीर दोगां अिश्टांची अिश्टागत तुटली म्हूण विषयाक तितलेंच वायट दिसलें.

विषय येवजूंक लागलें - अुदय आपलेखातीर कसलेंय धाडस करपी. तो आपल्याचेर खऱ्यानीच मोग करता आसतलो. तो सांगता तितलें आपुण सोबीत आसा काय?

अुदय म्होंवाळ खबरी सांगतालो तेन्ना विषयाच्या काळजांत गोड काचूल्यो जाताल्यो. पुण दोगांयचे विचार सामके अनवाळे आसले.

दुसरे दिसा विषय बागेंत सोबीत फूल सोदूंक लागलें. अेकान-अेक फूल नियाळूंक लागलें. झाडां-वालींचेर बिरमुट्यो-पाखे अुडटाले. भोंवरे वाटकुळे भोंवताले. सांज जावपाक

ार्यिल्ली. अुदेंतेक मळब कुपानी काळसार-धावसार जाल्लें. सुर्या दर्यात बुडटना तांबसार किरणां ओकतालो. अस्तंमतेक मळब चकचकतालें. तांबसार तिरपी किरणां झाडां-माडांचेर पडून सगळो वांठार लाकलकतालो. सुर्या भांगराचो गुळो कसो अिल्लो-अिल्लो सकयल देंवतालो. सावळयो लांब-लांब जायत वताल्यो. सगळी सृश्ट अेका अप्रूप ओलाव्यान गुल्ल जाल्ली.

शेवटाक विषयान सोदू-सोदून झाडांच्या झोपांतल्यान कांट्यापासून आपली बोटां वाटयत अेक गुलाबाचें फूल तोडलें. गुलाबाचे अर्द फुलिल्लें फूल ताच्याच भशेन सोबीत आसलें. ताणे फूल हुंगले आनी परमळ काळजांत देंवयलो. त्या परमळान ताका गुंगीशी येवंक लागली. ताणे डोळे बंद केले, आनी अुदयाच्या अुगडासान गुल्ल जालें. 'चातक' शेवणे ढगांची वाट पळयता तेभशेन विषय अुदयाची वाट पळोवंक लागलें.

'कितें येवजीता विषय?' अुदय विषयाच्या फुड्यान पाविल्लो.

विषय सट्ट करून भानार आयले. हातांतलें फूल जमनीर पडलें. दोळयाच्यो पातकड्यो मिचकावन विषयान अुगडल्यो. अुदय धव्या कपड्यानी ताच्या मुखार आसलो. ताचो गोरो रंग धव्या कपड्यानी भरसून आनिकूय अुठून दिसतालो. आगळे-वेगळे मोगाचे धुंदीन बुडटना अुदय आपल्या फुड्यांत केन्ना आयलो तें विषयाक कळलेंच ना. ताणे लजेन मान सकयल घातली.

अुदयान विषयाची चोरी धल्ली. ताणे तिखशे नदरेन विषयाक पळयलें. हरयाळीचेर पडिल्लें गुलाबाचें फूल अुदयान अुखलून नेटान सुस्कार घेवन हुंगलें आनी 'सू ऽऽ,' करून धादोसकाय परगटायली. तेसरशी विषयाच्या पोल्यार लाली खेळूंक लागली.

'विषय, हांव जाणां, तूं ह्या फुलाक घेवन कितें येवजितालें पळय तें!'

'आ ऽऽ..........!' आपल्या काळजांतली गजाल घडये अुदयाक कळली कांय? अशा अर्थान विषयाचे काळीज धडधडलें. मान वयर करून शेणिल्ल्या गोरवा भशेन विषय ताका पळोवंक लागलें.

विषयाचे नदरेक नदर लावन अुदयान सांगलें, 'विषय, तूं चिंत्तालें, हे फूल म्हा कशें दिवचें? ह्या फुलाच्या रुपान म्हज्या कोटाची शान वाडोवंक काळजा कुशीक व येवचें? म्हजेर आपल्या मोगाचो शिंवर कसो करचो? पुण पिशा, तुवें तर रातदीस म्हज काळजाचे गर्भकुडींत बसका माल्ल्या.'

विषय मुमुरख्यां हांसलें. अुदयन जुस्ताक जुस्त ताचे काळीज वाचलें. अुदयाच्य तोंडातल्यान आयिल्ली अुतरां आयकून विषय खुशालभरीत जालें. विषयान अुदयाच्य कोटाच्या बोल्सार नदर खिळयली.

अुदयाक विषयाचे नदरेचो अर्थ कळलो. ताणे फूल कोटाच्या बोल्साक खोयलें. आपल्या काळजा कुशीक. गुलाबाचे फूल अुदयाची तरणी सोबाय आनीक वाडोवंक लागलें.

अुदयान आपल्या मनगटाच्या घड्याळांत पळयलें, आनी विषयाक सांगलें, 'हांव तुकां फकत दोनूच मिनटां मेळपाक आयिल्लो. पापा वांगडा अेके पार्टेक वता. घरा अुसरां पावतोलो. आयज म्हजी वाट पळोवं नाका.' अितलें सांगून तो बेग-बेगीन गेलो.

विषयान हो म्होंवाळ खींण आपले काळजाचे कोठयेत सांठोवन कोठयेक कलयाद घातलें.

ह्या दिसापासून अुदयाच्या बोल्साक लावपाक विषय सदांच ताका गुलाबाचे फूल दिवंक लागलें. हें तांचे संवयेर पडलें. अुदय खंयसरूय भायर वचचेलो आसल्यार पयली तो विषयाक सांगतालो. मागीर विषय सोबीत फूल वेंचून काडटालें. आनी अुदय भायर सरतना ताचेकडले फूल घेवन वतालो.

अशेंच अेक दीस विषयान अुदयाक फूल दिलें. तेन्ना अुदय त्या फुलाक अेके वेगळेच तरेन पळोवंक लागलो. मागीर ताणें सरभोंवतणी नदर घुंवडायली आनी कोण ना अशें पळोवन विषयाचे नदरेक नदर लावन फुलांच्या पाकळयांचो अुमो घेतलो.

विषयाचे ओंठ थरथरले. ताका दिसलें, अुदयान फुलाच्या पाकळयांची पापी घेनासतना आपल्याच ओठांची पापी घेतल्या. ताच्या दोळयात जोगलां नाचूंक लागलीं. तें तशेच धांवत आपल्या घरांत गेलें.

गोरवांचेर कितेंय पडटकच ती आंग थरथरायतात ते भशेन विषयाचे आंग थरथरताले. अुदयान आपल्याच ओंठाचो मोग केल्लेभशेन विषय आरशा मुखार रावून ओंठ पळोवंक लागलें. पुण आरशांतल्या पडबिंबाचे नदरेक नदर दिवंक ताका जमलेंना. ताणें अचळय दोनूय हातानी आपले तोंड धांपलें. ताच्या आंगाक अेक अनवळखी गोडी काचूल्यो करूंक लागली.

हांसत-खेळत तांचे दीस वताले. अेके रातीक अुदयान विषयाक सांगलें, - तो कॉलेज पास जातकच फुडें शिकूंक अमेरिकेक वतलो. तेन्ना अुदयाचे निमणे परिक्षेक थोडेच दीस अुरिल्ले.

हें आयकून फुलाभशेन फुलिल्लो विषयाचो मुखडो सट्ट करून बावलो. मळबांत झोपाळो घेतना दोरी तुटून धरतेर पडिल्लेभशेन विषयाक दिसलें. ताच्या मनांत बेठोच दुबाव येवंक लागलो - अमेरीकेक वतकच अुदय आपल्याक विसरना मूं?

अुदयाक अमेरीकेक वचचेली खूप अुमेद आसली. विषयाच्या मोनेपणाक लागून अुदयान विचाल्लें, 'विषय, तूं वोगी कित्याक? म्हजे अमेरीकेक वचप तुकां आवडलें ना?'

'ना ना बाबू, तशें कांय ना.' विषयान हांसचेलो येत्न केलो. पुण तें हांसूक पावलेंना. काळखाक लागून ताचो निर्शेल्लो मुखडो अुदयाक दिसनासलो.

'म्हाका खूप अुमेद जाल्या. तूं वतलो तें आयकून. म्हाका अुमेद जायना जाल्यार बाबू, आनीक कोणाक जातली?' अुदयाक वायट दिसत म्हूण विषयान फट माल्ली. खरें म्हळयार भितल्ल्यान विषयाच्या काळजाक हुलोप पेट्टालो.

'आ, आता कशें जालें! हांव परिक्षा सोंपतकच रोकडोच धांव मारता. थंयची मौज

हांगसर खंय आसा? वेल्यान हांगसर पापाचो भय. थंयसर म्हाका पुरें स्वातंत्र मेळटलें. कितें विषय, खरें न्हय?' अुदयान अमेरीकेक वचचेली आपली अुमेद परगटायली.

अुदय सांगतना विषय फकत काणी आयकल्ले भशेन आयकतालें. आपल्या अितल्या वर्साँच्या तपाक अुदय आतां बाटयत अशें विषयाक दिसूंक लागलें. ताका तर मोगाचो चंवर आयिल्लो. फाटीं अुदयाच्या अिश्टान सांगिल्लें, तेंच आता विषयाक खरें दिसूंक लागलें. 'मौज मार आनी शेवटून अुडय.' ही अुतरां ताचे मतींत पर-परत घोळपाक लागलीं.

अुदया खातीर विषय फूल जाल्लें. अुदयान अितलो तेंप ताचे संगतीची मौज लुटली आनी आतां अितल्या पयस वतलो ताचे अुदयाक मात पासून दूख दिसना? विषयाक रडूंक येवंक लागलें. पुण सगळें सोंसून ते वोगीच रावलें. अुलयत जाल्यार आवाजाचे कांपरेन आपल्याक वायट दिसलां तें अुदयाक कळत म्हूण विषयान आनीक जाप काडली ना. देव्ट्यावेलो गुरखो खोकलो. ते सरशीं दोगांय अुठलीं.

'परिक्षा लागी पावल्या. आतां आमी रातची चड मेळची न्हय. खूप अभ्यास करूंक जाय.' अुदयान सांगलें.

'आं, बरें,' हाचे बगर विषय आनीक कितें अुलयतलें?

'परिक्षा सोंपतली त्यादिसा आमी रातभर बसूया.' उदयाच्या आवाजांत समजावणेचो सूर आसलो. मागीर दोगांय आपआपल्या घरांत गेली. ते रातीक विषय हातूण्णार पडून खूप रडलें. आपल्याच नशिबाक तें दुशण दिवंक लागलें. ताणें शेवटाक थारायलें-अुदयाक आनीक मेळप ना.

पुण अुदयाक तोडपाक ताचो मोग खंय तयार आसलो?

अुदयाक मेळप ना अशें जरी विषयान थारायल्ले तरी अुदयान ताका मेळचें सोडूंक नासलें. वेळांत वेळ काडून, अभ्यास फाटीं दवरून, कसोय तरी अुदय विषयाक मेळटालोच.

दुसरे दिसाचीच गजाल. विषय दुर्गाकडेन अुबे आसलें. ताका पळोवन अुदय ताच्या

फुड्यान गेलो. खंयतरी वचूंक तो भायर सरिल्लो. विषयान ताचे बोल्स पळयलें. बोल्साक फूल नासलें. सट्ट करून विषयान थंयचे फूल तोडलें आनी अुदयाक दिलें. अुदयान फूल घेतलें आनी चिंवलें. विषय आता लजलेंना. फकत आपल्या सबावाक हांसलें.

विषयाचें मन अुदयाक कशें विसरतले? हो मोग तरी कितलो पिसो? कितलो अप्रूप?

'हांव अेके लग्नाचे पार्टेक वतां. येवपाक वेळ जातलो. अभ्यासाक लागून वचचो नासलो. पुण आमच्या अेका सोयऱ्याली पार्टी.' अुदयान सांगलें.

विषय ताका पळयत रावलें. अुदयान वतना परत सांगलें, 'आयज म्हजी वाट पळोवं नाका. फाल्यां सांजवेळार मेळटां.' आदले राती सांगिल्लें तें तोच विसल्लो.

विषयान अुलयनासतना फकत हात हालोवन अुदयाक निरोप दिलो. ताणे परत मनांत थारायलें, अुदयाक आनीक कशेंच मेळप ना. आपुण आतां ल्हान ना. व्हडलें जालां. कोणेय पळयल्यार बठेचे सगळयाक फां - फूं जातलें.

पुण रात जातकच विषय जनेलाकडेन बसून दोळयांत तेल घालून म्हणटा तशें अुदयाची वाट तेळपाक लागलेंच. अुदय आयज अुसरां येतलो हे जाणाआसतना आनी ताणें मेळचे न्हय अशें सांगलां आसतनाय विषय अुदयाची वाट पळोवंक लागलें. विषयान पुस्तक वाचपाचो येत्न केलो. पुण पुस्तकातूय ताचे मन रमना जालें. ताची न्हिदूय अुडून गेली.

X X X

दुसरे रातिच्यान तीं दोगांय मेळटालीं. पुण थोड्या वेळा पुरतीं. फकत पांच-धा मिनटां. विषय चड कांय अुलयनासलें. विषय मोगाझाडार चडिल्लें. पुण चडटांच त्या झाडाची फांदी मोडिल्ली. विषय अुदयाक पळोवंक-ताका खोशी दवरचे खातीर!

शेवटाक तो दीस आयलो. विषयान निमणे फूल तोडलें तो दीस. अुदयाक ताणें निमणें फूल दिलें तो दीस. ताका आनीक चार वर्सां अुदयाचे रूप पळोवंक मेळचेलें ना तो दीस. अुदयाच्या यादीची ताका ख्यास्त पडली तो दीस. ताका मोगाच्या पांजऱ्यांत तडफडूंक लायलें तो दीस.

विषयान गुलाबाचें फूल तोडलें आनी तें हातांत घेवन आपल्या बिराडा मुखार रावलें. अुदयाचें सगळें सामान गाडयेच्या खोक्यांत घाल्लें. सगळे मानाय, वावराड्यो आपल्या धाकल्या धनयांक निरोप दिवंक दारांत जमलीं. पुण विषय थंय गेलेंना. आदलेराती ताणे उदयाखातीर दोळ्यांतल्यान बांयो- न्हंयो व्हांवयल्ल्यो. ताणे मन अुक्तें करून अुदयाकडेन अुलोवपाचो येत्न केल्लो - 'अमेरीकेक वतकच म्हाका विसरचोना मू?' पुण विषयाक हें विचारचेलें धाडस जावंक नासलें. तें फकत अुदया कुशीक बसून रडलें.

धनयाक असो प्रश्न विचारचेलो अधिकार अेका माळयाचे नातीक खंय आसलो?

अुदयान विषयाक पळयलें आनी तो ताच्या बिराडाकडेन आयलो. सुपुल्लो हांसो ताच्या ओंठार अुदेलो. पुण विषयाक हांसूंक आयलेंना. ताचें काळीज तर जळटालें. ताणे अुदयाक फूल दिलें. अुदयान तें घेतलें आनी विषयाचेर नदर माल्ली. विषयाचें मुखामळ चिंतेस्त दिसतालें. अुदय मातसो हांसलो आनी ताणे सांगलें, 'विषय, तूं खूप दुखेस्त दिसता. तुज्या सारकें हे फुलूय दुखेस्त जावन बावलां. म्हाका हांसत निरोप दिवंचेना?'

विषयाचे ओंठ थरथरले. हांसचेल्या येत्नात तें फसलें. काळजांतली गजाल अुलोवची अशें ताका दिसलें. मोगाचे यादीचो सांठो सामाळून दवर म्हूण सांगचो, अशेंय बी विषयाक दिसलें. पुण ओंठ लूळे पडले.

गरीब आनी गिरेस्त, मानाय आनी धनी, हांची वणत तांच्या मदीं अुबी रावली. ताणे पातकड्यांचो पारो बागोवन नदर सकल खिळयली.

'विषय, हांव गेल्या अुपरांत म्हाका विसरचेंना न्हय?' अुदयान विचाल्लें. तेसरशीं विषयाची नुरा अुमेदीन फुल्ली. ताणे नदर वयर करून आस-हावेस गाठींक मारून

अुदयाक पळयलो. अुदयान अेकाच प्रश्नान विषयाची आस पुरी केली. तें ताका कशें विसरतलें? आपल्या अुदयाचे चित्र ताणे काळजांत छापिल्लें. ताचे दोळे दुकांनी भरून आयले. हांसून ताचेवेलो मोग अुक्तोवचेलो ताणें येत्न केलो. पुण ओंठ हांसूंक धजले ना. ताचे ओंठ अनवळखी अुमेदीन भियेले. ताका कांयच सुचना जालें. सांगूंक जाय आसलें तितलेंय विषयान नदरेनूच सांगलें.

अितल्यान बंगल्याच्या दारांतल्यान गाडयेचो हॉर्न वाजलो. अुदयाक वचपाक आपोवणे आसलें. ताणे मनगटाचे घड्याळीक पळयलें आनी सांगलें, 'विषय, येता हांव.'

अुदयान गुलाबाचे फूल चुमलें. ताचो मोग केलो आनी हांसत नेटात गाडयेकडेन गेलो. विषय आपल्या दारांत रावून अुदयाक पळयत रावलें. ताच्या काळाजांतल्या प्रश्नांची जाप अुदयान दिल्ली. नाजाल्यार अुदय असो प्रश्न विचारचोच नासलो.

आपल्या अुदयाक निमणो दोळेभर पळोवंक विषय बंगल्यावटेन सरकलें, आनी कोनशार अुबें रावलें. अितले म्हणसर अुदय गाडयेंत बसलो. ताचो पापा आनी मम्मीय बी गाडयेत बसलीं.

अुदयान मानायांक अिनाम म्हूण कांय पयशे दिले. ड्रायव्हरान गाडी चालू करून देव्ह्याकडेन पावयली. तेन्ना मात विषयाच्या दोळयाच्या पातकड्यांचो बांद फुटलो. ताच्यान दुकांक कशींच आवरूंक जायना जालीं. सामके हुंवार येवंक लागले. शेवटाक ताणें आपल्या बिराडांत अेकूच धांव माल्ली. बाकिच्यो वावराड्यो, अुदयाक लागून हें रडटा, अशें म्हणटल्यो म्हूण तें आनीक थंय रावलें ना. भितर वचून ताणे हांतूण्णार घालून घेतलें आनी खूप रड - रड रडलें. काळजाक आयिल्लो अुमाळो सोंपसर रडलें. खतखतलेलें हुंवार निवळसर रडलें.

अुदय गेल्या अुपरांत विषयाक सगळें किण्ण दिसूंक लागलें. सगळो वाठार ताका खावंक येवंक लागलो. ताचो मुखडो पार्थ्या फुलांभशेन बावलो. सगळी बाग ताका रेवांट दिसूंक लागलीं. गुलाबाची झाडां-फुलां ताका आपल्याच रुपा भशेन निर्शेल्ली भासूंक लागलीं. ताची रूच आनी न्हिदूय बी अमेरीकेक पळून गेली.

पुण विषयान मनांक आवर घातलो. ताका अभ्यासाकडेन मन वळोवचें पडलें. ताणे चिंतलें, अुदय परत येता म्हणसर आपुणूय खूप शिकून ताचे लायकिचें जावंक जाय. तें शिकल्या -सवरल्या अुपरांत ल्हान-व्हडाचे वेगळेपण कोणाच्या मनाक आफुडचेलें नासलें. शिक्षणांत तरी ते अुदयाची बरोबरी करूंक पळयतालें. ताणें खूप शिकचेलें मनांत थारायलें आनी अभ्यासाचेर भर दिवंक लागलें.

अेकदीस विषय आपले कुडींत पुस्तक वाचीत बशिल्लें. अितल्यान ताचो दादा भितर आयलो. ताच्या वांगडा विषयाचो बाबा आनी सुमार धा-बारा वरसांची चली आसली. ती चली आपली भयण कामनी, हें वळखूंक विषयाक वेळ लागलो ना. खूप तेंपान तें कामिनीक पळयतालें. सवतीभयण जाली तरी ताची भयण आसली. तें अुठलें आनी ताणें कामिनीक वेंग माल्ली.

विषय दादागेर आयिल्लें तेन्ना कामिनी दोन वर्सांचे आसलें. बाबाकडल्यान आनी पत्रांवेल्यान कमिनीची विषयाक फकत खबर मेळटाली. कामिनीय विषयाचे वेंगेंत रिगलें आनी दोगांच्या पातकड्यांचें धरण फुटलें. खूप तेंपान मेळलीं, मोगान रडूंक लागलीं.

तांचो अेक - मेकावेलो लोळो पळोवन दादाच्या आनी बाबाच्याय दोळयांत दुकां दाटलीं. दादा-बाबाची पडिल्लीं तोंडा पळोवन विषय मात्शें गोंदळांत पडलें. तें दोगांकूय पळयत अुल्लें. कितें घडलां तें ताका समजलेंना.

‘बाय’, दादा विषयाचे बगलेक गेलो आनी कामिनीचें माथें थापटीत ताणें सांगलें, ‘हेंय आता तुज्या सारकेंच आवय नासलेंले पोरकें जालां.’

विषय अवचीत आनीक गोंदळून गेलें. ताका अुतर फुटलेंना. तें तांकां आनीक अजापान पळोवंक लागलें.

‘हय बाय, खरी खबर.’ दुखेस्त अुतरांनी बाबान सांगलें. ‘आमी तुमकां कळयलें ना. कांय दिसापयलीं ती अेका वायटान दुयेंत पडलीं, आनी अुठपाक पावलीच ना. तिचो निमणो दीस लागीं पावलो तेन्ना आपले चुकीक लागून तिका खूप वायट दिसलें. विषय,

तुकां नश्ट्यापणान वागयलें म्हूण ती खूप रडली. तुजी चूक मागूंक जाय अशे ती म्हणटाली. तुकां त्रास दिले म्हूण देव आपल्याक ख्यास्त भोगयता अशें ती मरच्या समयार पर-परत बडबडटाली,' दोळयांतल्यान व्हांविल्ली दुकां बाबान लेंसाक पुसलीं.

बाबान सांगिल्ली खबर आयकून विषयाचे काळीज पानेलें. कामिनीची ताका काकळूत दिसली. आवयच्या मर्णाचे विषयाकूय दुख जालें. खाशेली आवय न्हय जाली म्हणून कितें जालें? कशेंय जावं सात वर्सांमिरेन तिणे विषयाक ल्हानाचें व्हड केल्लें. विषयाचीय धळळ करून दुकां व्हांवलीं.

'ताआी,' विषयाची दुकां पुशीत कामिनीन सांगलें, 'आमी तुकां व्हरपाक आयल्यांत. ताआी, येता न्हय आमच्या वांगडा?'

विषयाक ही गजाल मानवलीना. ताणें तर सगळी जीण हांगसरूच, ह्याच बंगल्याच्या चार वणती भितर, हांसत-खेळत सारचेली सपना रंगयल्लीं. जंय ताच्या मोगाची कळी फूल जावंचेली सपना पितारताली. तें हांगसून वचूंक तयार नासलें. ह्या बागेंतल्या फुलांनी ताच्याच सुस्काराचो परमळ भरिल्लो. त्या परमळाक त्या फुलांच्या पाकळयांक अुदयाचे ओंठ आफुडलेले आनी मुखार आफुडचेले आसले. विषय हांगसून गेल्या अुपरांत फुलांची आस, आसूच अुरतली आसली. तें आपल्या मोगाक कशें तोडीत? विषयान तांकां कितें तरी सांगूंक तोंड अुगडलें, 'पुण......'

बाबान मदींच ताका तोडलें आनी कळवळून सांगलें, - 'बाय, तूं आमच्या वांगडा आयलेंना जाल्यार कामिनीचे आवयची आस तशीच अुरतली. तुवें तिचो गुन्याव भोगशिलो ना जाल्यार तिच्या आत्म्याक शांती मेळचीना. तिचो आत्मो तळमळत अुरतलो'.

'आत्मो - गुन्याव?' विषय चिंतूक पडलें. कसलीं तरी निमतां करून बाबा ताका व्हरूंक सोदी. ताका बुद्द तरी चड खंय आसली? गुन्याव आत्मो ह्या अुतरांचो अर्थ ताका कसो समजतलो?

'बाय, मेल्या अुपरांत दुस्मानाचे पासून गुन्याव भोगशीतात. आनी ती तर तुजी आवय आसली. सख्खी न्हय तरी आवयूच आसली.'

'ताअी, यो आमच्या वांगडा.' कमिनीन विषयाच्या गळयाक गोळ मारीत सांगलें.

विषयान आपल्या आज्याक पळयलो. ताणेंय बी मानेनूच तांच्या वांगडा वच म्हणपाचो हयकार दिलो. मागीर बाबान विषयाक आनीक समजायत सांगलें, 'विषय, हांव तुज्यो सगळयो अित्सा पुऱ्यो करतलों. तुकां जाय-जाय पळय, तशें तूं राव. तुकां जाय तेन्ना तूं हांगसर दादागेर यो. पुण तुजे मेल्ले आवयचे अित्से खातीर आमच्या वांगडा वचपाक भायर सर.'

दादानूय विषयाक तांच्या वांगडा वच म्हूण समजायलें. तोय तर जाणटो जाल्लो. ताच्या वांगडा विषय हांगसर आनीक कितलो तेंप सारतलें? म्हणटकच विषयाचें आनीक कांयच शाणेपण चल्लें ना.

हांगसर आयल्या म्हूण चार दीस बाबा आनी कामिनी दादागेर रावलीं. अुपरांत विषयाक बाबा वांगडा मंगळूराक वचचें पडलें.

सुटयेंत हागंसर येवपाक बी बाबान विषयाक मान्यताय दिल्ली. आनी अुदय तर चार वर्सां येवचो नासलो. बाबा ताका मंगळूराक शिकयतलोय आसलो. म्हणटकच विषय मंगळुराक आपल्या बापायसरीं रावूंक गेलें. तेन्ना चंद्रीमूच धरतेर देंवून आपल्यागेर अुदेला अशें बाबाक आनी कामिनीक दिसलें.

मंगळूराक विषयाच्या गांवचे आमटशौकी ताच्या रुपाक तोखेवंक लागले. रामनाथाचे पयले बायलेची धूव म्हूण विषयाची सगळयाक चर्चा जावंक लागली. बाबान विषयाची शिकचेली आस निराश केली ना. अभ्यासाक लागून तें चार वर्सां अुदयाची याद विसरायेर घालतलें आसलें. दोन अेकरूप जाल्ल्या मनांचो विरह कितें थोडो आसता?

तरी आसतना विषयाक अुदयाची याद येताली. अुदयाची निमणी अुतरां विषयाच्या मनांत घोळटालीं. 'हांव गेल्या अुपरांत म्हाका विसरचेना न्हय?' आनी विषय आपले-आपुणूच मुरगुट्टालें. तें अुदयाक कशें विसरतलें? दिसान-दीस अुदयाची याद ताका चड - चडूच येताली. अुदयाचे यादीन विषयाचे पोले रक्शेताले. चकोर शेंवणे चंद्रिमाची वाट पळयता तेभशेन विषय अुदयाची वाट पळयतालें.

आनी अुदय परत येवपाचे दीस जशे लागी पावले तशें विषयाचे काळीज अेके अनवळखी ओडीन धडधडूंक लागलें.

अुदय अमेरीकेक गेल्यार चार वर्सा पुरी जालीं. अितलें म्हणसर विषय मॅट्रीक बी जालें. आनी अंदू ताचे कॉलेजचें निमणे वर्स. ते पुराय व्हंकल जालें. ताचे रूप आनीकूय अुजळ्ळे. कुडीच्या कोनशा-कोनाशातल्यान तरणी सोबितकाय फांकरली. पुण सबावान बदल जालो ना. सगळे आदलेंच आसलें. घरांत कोणूय शेजारी, सोयरे बी येत जाल्यार विषय तांच्या मुखार वचनासलें. तांकां मेळनासलें. मेळल्यार अुलयनासलें. अुलयल्यार सामके थोडेंच ताणें अुलोवंचें.

विषयाच्या घरा मुखावेल्या पोरसांत गुलाबाची झाडां आसलीं. तांची सोबीत फुलां तें वरांची वरां पळयत बसतालें. तेन्ना ताच्या कानांत अुदयाची निमणी अुतरां घुमतालीं. ते यादीन ताका गोड काचुल्यो जाताल्यो.

अुदय येवपाचो जाल्लो. विषयाक हांगसर आनीक शिकूंक मेळचेनासलें. घडये बाबा आपल्याक कोणायकडेन लग्न बी करीत म्हूण विषयाक भय दिसतालो. विषयाच्या रुपाक पळोवन कोणूय ताका फुकट माळ घालून व्हरतलो आसलो. समजा बाबान थारायल्ल्या लग्नाक विषयान विरोध केलो आनी खरी खबर ताका सांगली जाल्यार, बाबा वेल्यान ताची फकाणां करतलो आसलो - खंय कोट्याधीश विस्वासरावाचो अेकलो अेकसूरो अपुरबायेचो पूत आनी खंय ताच्या बागेंतल्या माळ्याची नात!

अेक दीस विषयाक दादाची चीट आयली. तश्यो मोडक्या-तोडक्या अुतरांनी बरयल्ल्यो दादाच्यो चिटी केन्ना - केन्नाय मंगळूराक विषयाक येताल्यो. आनी विषयूय आज्याक पत्रां बरयतालें. दादा केन्ना - केन्नाय मंगळूराक तांगेर येवन अेक-दोन दीस रावुनूय बी वतालो. विषय सुटयेंत बी दादा म्हऱ्यांत वचून थोडे दीस रावूंक सोदतालें. पुण कामिनी आनी बाबाच्या जेवणाची धांदल जाताली, म्हूण तें भायर सर नासलें. कामिनी तर ल्हान असलें. कॉलेजचो अभ्यास सांबाळून विषयाक घरचेंय काम करचें पडटालें.

विषयान पत्र वाचल्या अुपरांत अुदय अमेरीकेकसून आयला म्हूण ताका कळले. विषयाक अितली अुमेद जाली कि ती अुमेद ताचेकडेन सांबाळूक जायना जाली. ताच्या मुखामळार तांबसार लाली अुदेवन खेळपाक लागली. अुदया वांगडा घालयल्लो अेक - अेक खिण ताच्या दोळयामुखार अुबो रावलो. पाखां लावन अुडत म्हणटा तशें अुदयासरीं वचचें अशें विषयाक दिसलें. अुदयाक पळोवंक तें सामकें अुतावेळ जालें.

बाबा कामाक गेल्लो आनी कामिनी घरांत आसलें. विषयान अेक आरतीक काडलो. ताणे दादाचे पत्र लिपयलें आनी कामिनीक सांगलें, 'कामू, दादाचें पत्र आयलां. दादा बरो ना. हांव ताचे खबरेक वता.'

'दादा बरो ना? कितें जालां? हांवूय येता.'

'तूं नाका. हांव अेकलेंच वता.'

'हांव कित्याक येवं नाका?'

'आगो, हांगसर बाबाक अेकलो दवरून आमी दोगांय वचप समा जावंचेना.'

'पुण दादाची खबर?'

'हांव वता तेंच तुमकां कळयतां दादाची खबर.'

'बरें तर ताअी, बाबाय कामाक केला न्हय!'

'त्याच खातीर सांगता हांव कामू, आमी दोगांय दादाचे खबरेक गेल्या म्हूण कळटकच ताका आमचो हुस्को जावन आमच्या फाटोफाट तोय येत.'

'बरें तर.'

'हां, आतां कशें जालें. चल, हांव वचपाची तयारी करतां. तुमी म्हजो मात हुस्को करूं नाका. म्हाका सगळयो बसी बी खबर आसा.' अशे तरेन विषयान आरत्याचे परतें

करून कामिनीक थारायलें आनी थोडे आपले कपडे-लत्ते एका बॅगांत भरून दादागेर वचपाक भायर सल्लें.

बाबडें विषय अुदयाच्या मोगाक पिशें जाल्लें. मोगाक लागून ताणें दादा बरो ना म्हणपाची फट माल्ली. तसो ताचो मोग सामको अनवाळो आसलो. अेक निश्पाप-पवित्र मोग आसलो. ह्या मोगाक लागून असल्या कितल्याय फटीचें पातक विषय आपल्या माथ्यार घेवपाक तयार आसलें.

अुदयाक पळोवपाची विषयाक सामकी अुमळशीक लागलेली. तें बशीत बशिल्लेकडेन येवजूंक लागलें. - अुदय चार वर्सांनी घडये बदल्ला आसतलो. आतां न्हवरो जाला आसतलो. म्हाका विसरचोना मूं? म्हाका वळखतलो काय? - अशा कितल्याशाच विचारांनी ताचे मतींत घोंटेर केलो. विषयाक आपल्या मोगाचो भरवंसो आसलो. ताणे केल्ल्या तपाची पुंण्याय अुदयाच्या काळजात अजुनूय धडधडूंक जाय. ताच्या मोगाची पवित्रताय अुदयाचे लव्हें - लव्हेंत आसूंक जाय.

विषय जेन्ना विस्वासरावाच्या बंगल्यार पावलें तेन्ना सांजवेळ जाल्ली. रातीन आपलो पालोव पातळोवंक निकतीच सुरवात केल्ली. बंगल्याच्या दारांत खूप गाडयो आसल्यो. बंगल्यात वाजतल्या संगीताचो आवाज आयकूंक येतालो. बंगल्याभितर कितेतरी चलता आसूये म्हूण विषयाक कळले. तें फुडल्या देट्ट्यातल्यान आपली ल्हानशी सुटकेस घेवन भितर सल्लें. बागेंत चोयवशीन बारीक अुजवाडाचे मरकुरी गुलोब पेट्टाले. तांचो अुजवाड हरयाळेर पडटालो तितलोच कुडको लाखेरी चादरीभशेन दिसतालो. अुदयाक दिल्ल्या फुलांचो सुवास तो घेतालो, ती याद विषयाक करून परमळ हांसूंक लागलो. बागेंतल्या काळखांत कांय तरणी जोडपीं अेकामेकांकडेन मोगाचे खेळ खेळपांत बुडिल्लीं. हेच अवस्थेन अुदय आपल्याक पळयत म्हूण विषय लिप-लिपत अेकेकडेच्यान दादाच्या बिराडांत गेले. अुदया मुखार वताना बागेतलें सगळयान सोबीत अशें फूल जावन विषय वचूंक सोदी.

तरी वताआसतना विषयाची नदर बंगल्याच्या दरांतल्यान भितर गेली. भितर रंगीत मैफल चलताली. संगीत वाजताले. भितर वचून अुदयाक पयशिल्ल्यान नियाळचो अशें

विषयाक दिसलें. पुण ताणें ती रूच दामून दवल्ली. तें तशेंच फुडें गेलें. पावळे भितर सरतना ताच्या नाकाच्या पुडयांतल्यान एक नवोच परमळ रिगून काळजाकडेन देंवलो. ताची नदर आपशीच वळली. ताणीं रोयल्ली रातराणी व्हडली जावन माळयेवयर तेंगशी पाविल्ली. ताळयो जनेलाकुशीक रावून भितर पळयताल्यो. हें सगळें पळोवन विषयाक नवल दिसले बगर कशें रावत! जनेल उगडे आसलें. अुदयाचे कुडींत अुजवाड आसलो. विषयाच्या काळजाचे ठोके नेटान वाजपाक लागले. तें तशेंच रातराणयेच्या झाडा पोदां गेले. कितलींशीच फुलां धर्तरेर पातळलेलीं. आनी कितलेशेच फुलांचे घोंस झाडार फुलिल्ले. तांचो परमळ विषयाक येवकार दितालो. विषय-अुदयाची आवडटी रातराणी रथ कशी ताळयेन ताळी फुलिल्ली. अुदयाच्या मोगाचे यादीन विषय खिंणभर स्वताक विसल्लें. आपले आपुणूच मुरगुटलें, आनी घरांत भितर सल्लें.

दादा घरांतूच आसलो. विषयाक पळोवन ताका नवल दिसलें आनी दुसरेवशीन ताका अुमेदूय बी जाली.

'दादा, तुजो हुस्को जालो म्हूण हांव आयलें. कसो आसा?' विषयान विचाल्लें.

'बाय, आसा बरो. तुजो बाबा, कामिनी कशें आसा?' दादा.

'आसा सगळी बरीं. म्हाका तुजोच हुस्को म्हूण खबर घेवंक आयलां.'

आपल्यावेलो नातीचो मोग पळोवन दादाच्या दोळयांत अुमेदीन दुकां दाटलीं. ताणें सांगलें, 'चल बाय, अितल्या पयशिल्ल्यान येयलां. हातपांय धू आनी च्या घे.'

पुण विषयाक ताने - भूकेचे खंय पडला? ताच्या कानांत संगीताचे सूर पडून ते ताका बंगल्यावटेन ओडटाले. अुदयाचेर नदर घालपाक विषयाचे दोळे तानेल्ले. चार वर्सांचो वियोग एका खिंणात विषय विसरूंक सोदतालें. मोगाची अुमळ जाल्लेभशेन अुदयाक वेंग मारपाक विषयाचे हात शिंव-शिंवताले. चार वर्सां म्हणजे थोडीं न्हय!

मागीर विषय न्हावन - धूवन एके वेगळेच तरेन सजलें. साद्याच कपड्यांनी तें सोबीत दिसतालें. विषय केसरी कोराची साडी न्हेंसलें आनी जांबळया कोराचो पोलको

घातलो. कानांत बारीक रिंगा आनी नाकांत खड्याची पिली. गळयांतले रुप्याचे सरपळेक तांबडो दोरो झाडाक वेलीन रेवाडो घाल्लेभशेन गुठलायल्लो आनी ते सरपळेक भांगराचेशें रूप आयिल्ले. ताच्या गोऱ्या हातांत दोन-दोन रोलगोल्डचीं काकणां लकलकतालीं. कपलाक नखेत्राभशेन तिकली झिगझिगताली. पायांत साद्योच सदांच्यो व्हाणो. माथ्यांत अेकूच दारांतलें हळदुळे रोझ तोडून लिगावांगडा खोयल्लें. अितल्या साद्या भेसांत विषय कस्तूरीमृगा भशेन परमळीत, सोबीत दिसतालें. ताच्या रुपाक आनीक चड नटचेली गरज पडनासली.

विषयाची गव्हांकोरी कात. कोगळीभशेन टवटवीत दोळे. बारीक तन्र्या अिरिलां अितल्यो रूंद आसकट्यो. पिंपळाच्या पानाभशेन कपल आनी मदींच केंसांक फोडिल्लो भांग. अळम्याभशेन नाक. चाफलें कशे कान. पिकिल्ल्या दुदया कोराचे मात्शे तांबसार-हळदुळसार आनी ताचेच गोलाये भशेन फुगिल्ले पोले. जामाच्या पोंतावेल्या फणकुलाभशेन ओंठ रूंद करतकच अुजव्या पोल्याक पडपी बारीक चेप. पिकिल्ल्या बेड्या भशेन ओंठ. भिल्लामाडाची पोंय फुट्टकच पोंयेतल्यान रेश्मी सुतां जशीं लोबकळटात तेचभशेन कमरेमेरेन हुमकळपी, रबरीच्या दोरान पास घाल्ले केंस. बदकाभशेन सोबीत मान. अर्जूनझाडाचे कातीभशेन तुळतुळीत हात. तोंकयेभशेन नाखटां. कुंभारान माती घोंटून केल्ले चुलीच्या खुरां सारकी वाटकुळीच पळयतल्याचे नदरेक आपल्याचेरूच आडोवन धरपी अुतावेळ अशी श्वेत पक्षांचे जोडयेभशेन थानां. कोंकण दुदयाच्या बागवल्या वोल्ताभशेन खांकेतल्यान देविल्लो कमरेमेरेनचो घेर. पडवळयाक मदीच धोंग फुटिल्लेभशेन लुबलुबीत कुले. ठवयाचे तासणेभशेन साजूक पावलां. सैमाक फाटी घालून मन भुलोवण्या विषयाच्या रुपाक आनीक वेगळेतरेन सोबीतकाये खातीर सजचेली गरजूच नासली.

विषय घरांतलें भायर आयलें. ताणें बागेतलें अेक सोबीत गुलाबाचे फूल तोडलें. मागीर बंगल्याच्या वारांदात येवन अुबे रावलें. थंयसून अुदय खंयसरूय आसल्यार ताका दिसतलो आसलो. तांची नदरेक - नदर जातकच विषय आपशीच अुदयाक आपलेवशीन ओडून हाडटले आसलें आनी आपली मोगाळ अशी फुलाची भेट ताका भेटयतलें आसलें.

विषय खांब्याचे बगलेक अुबें रावून आपल्या सपनांतलो कुंवर खंय दिसता कांय

म्हूण पळोवंक लागलें. तेन्ना अवचीत ताची नदर एका नाचतल्या जोडप्यार पडली. तेसरशी ताच्या काळजांत एका अनवळखी भयान कच्च जालें. चलयेक घेवन नाचपी ताचो मोगी अुदयूच म्हणपाची मनाची खात्री करून घेतली. तें आनी अुदयाक वळखुचेंना? काळजांत मोगाची वसाड घेवन विषय अुदयाक मेळपाक आयिल्लें.

चार वर्सां गेली तरी अुदयाचे रूप बदलूंक नासलें. पुण भुरगेपण वचून जाण्टेपणाच्यो कुरवो मुखड्यार झळकताल्यो. पयली पातळ आशिल्ल्यो मिश्यो दाट जावन अदीक काळयोच जाल्ल्यो. दाट आयिल्लें खाडूय ताणें काडलां म्हूण कळटालें. केंस लांब आसले, पुण ते बरे बसोवन अुगयल्ले. तरणेपणाची कांती ताच्या कुडींतल्यान रसरसताली. कुड हाडामासांत भरिल्ली. अुदय घट-मूट मानाय जाल्लो.

अुदय एके चलयेक घेवन नाचता तें पळोवन आपल्याचेर विज कोसळलेल्याभशेन विषयाक दिसलें. ते थरथरत एका खांब्याच्या आडसाक गेलें. अुदय-आशा अुमेदीन नदरेक नदर लावन नाचतालीं. अुदयान आपली सपनांत पासून याद काडूंकनासतली म्हूण विषय चिंतनात शेंणले. शेवटाक धुंवळशी येवन विषय सोपणार बसलें. आनी अुदयाची नदर चुकोवन पळून वतना अुदयान विषयाक हटकिल्लें.

X X X

**बं**गल्यातल्यान येवन विषय जनेला कुशीक बशिल्लेकडेन न्हय - न्हयत्या विचारांनी गुल्ल जालें. ताचे सगळे आंग भेरेले. बंगल्यात संगीत वाजतालें. पार्टेचो दुसरो वांटो चलतालो. आता तो संगीताचो आवाज मिनाचे खणीवेलो घरघर सो विषयाक भासूंक लागलो. ताच्या तोंडावेली नुरा बाविल्ल्या फुलाभशेन निर्शेली.

हेवटेन संगीताच्या तालार अुदयाचे वेंगेत आशा परत नाचतालें. पुण अुदयाचें मन दुसरेचकडेन आसलें. विषयाक मेळूंक ताचे मन अुचंबळ जालें. वेदोळ माळयेर वतना अुदयानूच तर विषयाक हटकिल्लें.

X X X

**चा**र वर्सां पयली अुदय अमेरीकेक गेलो तेन्ना विषयाचो विरह ताच्यान सोसूंक जायना जालो. विषयाची याद अुदयाक खूप सतोवंक लागली. अितल्या पयस अमेरीकेक आसल्या कारणान ताका आपल्या आवय-बापायाची याद येतलीच. पुण विषयाचे यादीन अुदयाचो अभ्यासपासून जायना जालो. अुदयाचे तन्ने रक्त बंडा करून सळसळटालें.

पुण कांय दिसा अुपरांत भारतांतल्या शिकपी वांगड्याकडेन अुदयाची अिश्टागत जाली. तांच्या वांगडा अुदय अमेरीकेतल्यो रंगीत आमोरी हांसत खेळत घालोवंक लागलो. ते सरशी अुदयाक अिल्लो - अिल्लो विषयाचो विसर पडत गेलो.

अुदयाचे अेक वर्स पासार जालें. बरेबशेन ताणे तें वर्स घालयलें.

दुसऱ्या वर्सा आशा अमेरीकेक अुदयाच्याच कॉलेजांत शिकपाक आयलें. आशाक आपणे खंय तरी पळयलां, असो अुदयाक भास जावंक लागलो. आनी अेकदीस अुदयान आशाक विचाल्लें, 'तूं गोंयचे न्हय?'

वळखिची अुतरां आयकून सुर्वेक आशा गोंदळांत पडलें. पुण कांय खींण वतकच आशान 'हय' म्हूण जाप दिली. हो आपल्याक खंय वळखता कांय? असो प्रश्न आशाच्या मनांत अुपरासलो. मागीर ताणे विचाल्लें, 'तुकां कशें कळलें हांव गोंयचे म्हूण?"

'हांवूय गोंयचोच. हांवें तुका आमच्या शारांत पळयल्ल्याभशेन भास जालो आनी तुकां हटकिलें.' अुदय सरळ आपल्या मनांतलें अुलयलो. 'गोंयात तुमी खंय रावता? घर खंय?'

आशान आपूण खंय रावता तें सांगलें.

'म्हजो दुबाव खरो जालो.' अुदय

'तुकां मेळून खोस जाली.'

'म्हाकाय बी.'



आशान आपलो हात फुडें केलो आनी अुदयान हांसत ताका हात दिलो.

हे घटकेपासून अुदय - आशाची अिश्टागत वाडत गेली. भेटी जायत गेल्यो. दोगांयनी आप-आपल्या घरची अेकमेकाक वळख सांगली.

आशाचो बापूय दामू बाब. तो पयलीं फिरंग्यांच्या तेंपार पुलींसेत बऱ्या पगाराचे नोकरेक आसलो. ताचे भितर तेन्ना फिरंग्यांचेच रक्त सळसळटालें. जायत्या लोकांक नागोवन ताणे बरोच पयसो लागीं केल्लो. तो पुलीसेंत कामाक आशिल्ल्या कारणान ताचो काळो धन्दोय त्यावेळार नेटान चालतालो.

आनी त्यावेळच्या भाडंवलाचेर गोंयचे सुटके अुपरांत दामू वेपारी - अुध्योगपती म्हूण नांवारुपाक आयलो. ताची शारांत चार वेपाराची दुकानां चलतालीं. बरो व्हडलो दामूचो बंगलो. तांगेर दोन धाकल्यो गाडयोय आसल्यो. दामूक आशा ही अेकलीच धूव. धूवेचे अित्से खातीर दामून आशाक अमेरीकेक धाडिल्लें.

अुदयाच्यो आनी आशाच्यो गांठी-भेटी जायत गेल्या अुपरांत तांच्या मोगाचे जाळे विणत गेलें. सुताक गांठी पडत रावल्यो.

आशा अुदयाचे जिणेंत रिगूंक लागलें. आनी अुदय विषयाक विसरत गेलो.

आशाचे संगतीन अुदयान कितल्योशोच राती थंयसल्ल्या होटेलांनी घालयल्यो. अर्देनागडे नाच पळयले. तेसरशीं तांची लज-भीड ना - नपयत जाली. दोगांय तरणी आसली, अेक-मेकाच्या लागी-लागी येत रावलीं. चडशें आशाच अुदयाचेर घालून घेतिल्लेभशेन वागतालें. अुदया वांगडा संवसार थाटचेली आशा सपनां रचूंक लागलें.

अुदय - आशाची अिश्टागत वाडत वतकच आशान आपल्या बापायक पत्र बरोवन अुदयाविशीं कळयलें. आपलो अुदयाचेर मोग आसा आनी गोंया येतकच आमच्या लग्नाक तुमची मान्यताय आसूंक जाय, अशेंय बी आशान बापायक पत्रांतल्यान कळयलें.

आशा आनी अुदय होटेलांनी बी वता तेन्ना अिल्ली - अिल्ली बियर बी पिवूंक लागलीं. सिनेमांक, खेळांच्या गेमीक वांगडा वचूंक लागलीं. आशा अुदयाक येन्नाधरूच

आपलो घोव समजूंक लागलें. दोगांयानी जोड्यान खूप फोटे बी काडले. आठ-आठ दिसांनी सुटयेंत तांच्यो पिकनिक्यो जावंक लागल्यो. ताणीं काडिल्ले तांतले कांय फोटे आशान आपल्या घराय बी धाडून दिले.

दामू सबावान आशाङ्गोच आसलो. मिनेर विस्वासरावाचो पूत जावंय म्हूण मेळटा जाल्यार कित्याक सोड? म्हणटकच दामून पत्र बरोवन ह्या लग्नाक आपली मान्यताय आसा आनी अुदयापासून ही गजाल लिपोवन दवर अशेंय ताणे आपले धुवेक कळयलें.

आनी हेवटेन दामून रोकडीच सुत्रां हालोवंक सुरू केलीं. पार्ट्यांक बी वता थंय दामून विस्वासरावाकडेन अिश्टागत जोडली. तांचे अेकामेकागेर येवप - वचप वाडलें. वायनांची देवाण - घेणाव जावंक लागली. आनी अेक दीस बरीशी संद सादून दामून आशा आनी अुदयाचे सोयरीकेचो प्रस्ताव विस्वासरावाक अुलोवन दाखयलो.

विस्वासरावान आनी बायलेन बरो विचार करून दामूले घराणे बरे ताण आसा आनी चलीय अमेरीकेक शिकता, म्हणटकच विस्वासरावान दामूबाबाक आपलो हयकार दिवन सोयरीक घट केली. आनी त्यादिसापासून दामूची चली विस्वासरावागेर पाविल्लेचभशेन तांचे येवप - वचप जावंक लागलें.

अुदयान आपल्या बापायक आशाविशीं कांयच कळोवंक नासलें. आनी विस्वासरावानूय पूताक सोयरीकेविशीं कळयलेंना. पुण अमेरीकेक जे कितें घडटालें ते आशा आपल्या बापायक कळयतालें. आनी आशाचो बापूय - दामू ती खबर मागीर विस्वासरावाक सांगतालो.

अुदयाचे आनी आशाचे शिकप सोंपल्या अुपरांत दोंगाय वांगडाच गोंयात परतलीं. ती आयल्या त्यादिसा आप - आपल्या भुरग्याक व्हरूंक विस्वासराव आनी दामू कुटुंब आप - आपल्यो गाडयो घेवन विमानतळार गेलीं.

विमानांतल्यान देंवतकच आप - आपल्या भुरग्याक विस्वासराव आनी दामू कुटुंबान अुमेदीन वेंगेत घेतलीं. अुदय - आशा सगळयांक पाया पडलीं. विमानतळारसून पयली

सगळीं आशागेर गेलीं. थंयसर च्या बी घेवन विस्वासराव पूताक घेवन आपल्या बंगल्यार परतलो.

आशा सगळें जाणां आसलें. पुण अुदयाक सोयरीकेविशीं कांयच खबर नासली. आपल्या बापायची आनी दामूबाबाची अितली अिश्टागत पळोवन अुदयाक नवल दिसलें. भुरग्यापणांतली अिश्टागत आशिल्ले भशेन ते वागताले. त्याभायर दोगांयच्यो आवयो सख्यो भयणी जाल्लेभशेन अुलयताल्यो. हें सगळे कुवाडेंशे अुदयाक पडलें. पुण ताणे तेविशीं तांकां कोणाक विचाल्लेंय बी ना.

गोंयात आयला तो पयलो दीस अुदयान अिश्टावांगडा झाकड्यो मारीत घालयलो. आवय-बापायकडेन पासून ताका धड अुलोवंक वेळ मेळलो ना.

अुदय बरे रातचो माळयेर आपले कुडींत गेलो. तेन्ना ताची नदर रातराणयेच्या झाडार गेली. तेसरशी चक्क करून ताका विषयाची याद आयली. रातराणयेचे झाड व्हडले जाल्लें. फुलां फुलून तांचो परमळ कुडींत पातळलेलो. तो परमळ अुदयाच्या नाकांत रिगलो आनी विषयावांगडा घालयल्लो अेक-अेक खींण ताका याद जालो.

आपुण आयला आसतना विषय आपल्याक कित्याक मेळूंक आयलें ना कांय, होच विचार अुदय करूंक लागलो. अुदय आयला तेन्ना सगळ्या मानाय - कामगारानी ताका येवकार दिल्लो. पुण विषय ताका दिसूंक नासलें. तो चडूच गोंदळांत पडलो-येवजूंक लागलो - विषय थंय ना कांय? ताचे लग्न बी जालें काय? आता तर ते व्हंकल जातलें! विषय आपल्याक विसल्लें कांय?

अुदयाक गोंयात येतकच आनी रातराणयेक पळयतकच विषयाचो मोग जाणवलो. ताका विषय दिसलें ना म्हूण तो तडफडलो. विषयाच्या बिराडांत ताका वचन दिसलें. पुण रात खूप जाल्ली. फाल्या सकाळी मेळटलो, अशें येवजून अुदयान न्हीद लागसर विषयाविशीं सपना रंगयलीं.

सकाळी अुठून अुदय विषयाक मेळूंक तांगेर गेलो. तेन्ना दादाकडल्यान ताका कळलें, तो अमेरीकेक गेल्या अुपरांत विषय रोकडेंच आपल्या बापाय म्हऱ्यांत मंगळूराक रावूंक

गेलां. तेन्ना अुदयाक खूप वायट दिसलें. कशेयभशेन विषयाक मेळपाक तो अुतावेळ जालो. ताणे शंकरदादाक सांगलें, 'तूं विषयाक पत्र बरयत जाल्यार हांव आयलां म्हूण कळय.'

'आयजूच बरयतां धाकल्या धनयां.' शंकरमाळयान अुदयाचो हुकूम मानलो.

विषय आपली वाट पळयत आसतलें, अशी अुदयाक आस आसली. अमेरीकेक आसतना विषयाचो आपल्याक विसर कसो पडलो हेंच ताका कळना जालें. आशाक आनी थंयच्या चाली-रितीक लागून? थंयच्या सैमाक लागून? अुदय येवजूंक लागलो. पुण ताका जाप मेळली ना.

कुडिच्या सुखाक लागून, काळजाच्या सुख-दुखाचो घडये ताका विसर पडलो जायत!

आशा अुदयागेर पर-परत येवंक लागलें. पुण अुदय आशाकडेन आदल्याभशेन वागनासलो. ताचेकडेन अुदयान अुलोवप कमी केलें. जाय तितलेंच तो आशाकडेन अुलयतालो. चडसो वेळ आपल्याच विचारांनी गुल्ल रावतालो. विषयाचे यादीन शेणटालो. विषय ह्या चार वर्साक कशें जालां काय? कळयेचे फूल जालां आसतलें! विषय आपली याद काडटा काय? असले प्रश्न अुदयाच्या मनाक घसटून वचूंक लागले.

भुरगेपणापासून तरणेपिरायेचे पावणे विषया वांगडा अुदय चडिल्लो. आनी तरणेपिरायेची पयली तरणी अुमळ आशा वांगडा अुदयान अमेरीकेक सारिल्ली. फुडें कितें करचे ते चिंतू - चिंतून अुदय बेजार जावंक लागलो. अेक - अेकदां ताणे भुरगेपण विषयावांगडा, जाणट्याभशेन घालयल्लें. ताणीं भुरगेपणांत फुडल्या मोगाची अनवळखी बुनयादूय मारिल्ली.

अुदयान विषयाचे यादीन दोन दीस घालयले. फुडले दोन दीस अिश्टांनी आनी आशागेर जाल्ले पार्टेन गेले. आशा अुदयाची कशीच फाट सोडिनासलें. म्हणटकच पांचवेदीस अुदयान आशाक आपली मिनाची खण दाखोवन हाडलें. आशा चडसो वेळ अुदयागेरूच घालोवंक लागलें. तेन्ना वावराड्यांक आनी हेर कामगारांक बी मात्सो दुबाव माल्लो, आशा धाकल्या धनयाची बायल जातली म्हूण. म्हणटकच सगळीं कामवालीं

आशाक मानान पाचारूंक लागलीं. सवो आनी सातवो दीस आशा - अुदयान दय वेळांचेर आनी अेका पांच नेखेत्री हॉटेलांत घालयलो.

आनी आठव्या दिसा विस्वासरावान आपलो पूत अमेरीकेकसून आयला म्हूण पार्टी दवरली.

पार्टेच्या दुसऱ्या वाट्यांत आशा अुदयाचे वेंगेंत मोगाची आस घेवन भिरभिरतालें.

पुण उदय विषयाविशीं चितनांत गुल्ल जालो. कांय वेळापयलीं ताका विषयाची भेटूय जाल्ली. आता मनांत नासतना फकत नाचूंक जाय म्हूण अुदय आशा वांगडा नाचतालो.

'कितें येवजीता अुदय?' नाचतना आशान अुदयाचे नदरेक नदर दिवन विचाल्लें.

अुदय कितें सांगतलो ताका? जाप दिवच्या बदला तो मात्सो हांसलो आनी नाचत रावलो.

अुदय आदलेभशेन आपलेकडेन वागना. अशें आशाक दिसूंक लागलें. आनी वेदोळच्यान विषय नांवाची चली भेटत पासून अुदय परकेपण दाखयता, असोय मात्सो आशाक दुबाव आयलो.

आशाक खरी खबर सांगून अुदय ताचें काळीज दुखोवंक सोदीनासलो. ताका तोडून अुडोवंक सोदीन्नासलो. अेक अिश्टीण ह्या नात्यान अुदय आशाचेर मोग करतालो. दुसरी गजाल - आशाक लागुनूच तर अुदय विषयाक विसरून गेल्लो.

अितल्यान पार्टी सोंपली. विषय आपली वाट पळयत आसतले असो अुदयाक भरवंसो आसलो. पार्टी अर्दी जाल्ली तेन्ना विषयाक पळोवन, ताचे रूप आनिकूय सोबीत जालां, हाची अुदयाक जाणीव जाल्ली. विषयाची अुतरां अुदयाचे तकलेंत घोळूंक लागलीं - 'फुलां वागडा खेळपी कांट्यांची पर्वा करीनात.' आनी विषय आपल्याचेरूच मोग करता हाची अुदयाक खात्री जाली.

हेवटेन अुदय चितनांत बुडिल्लो आनी दुसरेवटेन विषय जनेला कुशीक बसून आपल्या नशीबाक दोश दिताले.

अितल्यान खूप होर्नार - होर्न वाजपाक लागले. विषय बेग-बेगीन भानार आयलें. गाडयांचे होर्न आयकून न्हिंदेतल्यान जागें जाल्लेभशेन विषय सडसडीत जागे जालें. तें भायर सल्लें आनी ताणें बंगल्यार नदर माल्ली. लोक दारांतल्यान भायर सरतालें. थोड्यो गाडयो दिवे पेटोवन देट्ट्यातल्यान भायर वताल्यो, तर थोड्यो गाडयो निकत्योच घर - घर करून चालू जाताल्यो.

संगीताचो आवाज बंद जाल्लो. गाडयाचो घरघर मात आयकूंक येतालो. सगळयो गाडयो गेल्या अुपरांत किंण्ण जालें. सगळयान पयलीं पार्टेक आशा आयिल्लें. ताची गाडी सगळयान निमणी गेली.

विषय दारान येवन अुबें रावलें. तेन्ना ताका मिलीटरी कॅम्पांतले घाटींचो बारीक आवाज आयकूंक आयलो. ते बाराचे ठोके आसले. मळबांत खूप नखेत्रां चकचकतालीं. पुनव जावन अुमास लागी पाविल्ली. पयसुल्ल्या दोंगरावेले धारेर चंद्र निकतोच अुदेतालो. चंद्राचे आशेन राविल्ल्या नखेत्रां भशेन विषय दारांत रावले.

कांय वेळ वतकच अुदयाची वाट पळयत रावप विषयाक बरें दिसलेंना. आयज तर अेक चली, लग्न जाल्ले बायलेभशेन अुदयाचे वेंगेंत नाचताली. अुदयाक आपलो खरोच मोग आसल्यार तो पयलीचे फूल काडून आपणे हाडिल्लें गुलाबाचें फूल बोल्साक लायतलो आसलो. आयज अुदयान विषयाच्या हावेसांचो चूरो केल्लो. अुदय गिरेस्त आनी आपुण अेक सादें गरीब बाबडें, अशें चिंतून विषय भितर वचूंक वळलें....!

अितल्यान ताका बंगल्याच्या माळयेर हय न्हू शी सावली झळकली. तेसरशीं ताच्या काळजांत कच्च झालें.

अुदयाचे कुडीत अुजवाड आसलो. म्हूण जनेलार आशिल्ल्याच्या तोंडार काळोख पडिल्लो. विषय ताका वळखलें. तेंय काळखांत पावले भितर अुबें आसलें. ताचो ताळो सुकून आयलो. हुस्कार नेटान व्हावूंक लागलो.

अुदयान माळयेवेली आपले कुडींतली लायट पालयली आनी जनेलाकडेन रावून सिगार पेटयलें. लायटराच्या अुजवाडान विषयाक अुदयाचे तोंड सारकें दिसलें. अुदय सिगार ओडटना ताचो अुजो काजूल्याभशेन बारीक तिबको दिसूंक लागलो.

विषय अुबें रावलां थंय तशेंच दसलें. परत ताच्या मनांत आशेची कीट धुंवपाक लागली. अितली रात जाली तरी तें अुदया खातीरूच जागें आसलें. अुदयान घडये आपल्याक पळयलां आसतलें आनी लायट पालोवन, सिगार पेटोवन आपल्याकूच खूण बी केल्या जायत, अशें विषयाक दिसलें. ताचे मन अुमेदीन नाचूंक लागलें. विषय अुदयाक कशें विसरत? जेन्ना विषयान खोलायेन चितलें तेन्ना ताची आस पालवतां - पालवतां परत पेट घेवंक लागली. सिगाराच्या अुज्याभशेन ताका आशेची तिबको दिसूंक लागलो.

विषय आपली वाट पळयत रावतलें म्हूण अुदय जाणां आसलो. ताणे सिगार जनेलांतल्यांन भायर अुडयलें आनी कांय खिंणाभितरूच ताची सावळी विषयाक बंगल्याच्या कोनशार झळकली. चान्ने आनी झाडांचे सावळेंत आपा - लिपा खेळत अुदय विषया म्हऱ्यांत व्हडलीं पावलां घालीत नेटान येतालो.

विषयाच्या काळजांतली धडधड वाडली. ताचें मन अुचंबळ जालें. ते स्वताक आडावंक शकलें ना. तेंय पावळे भायर सरून अुदयावटेन धावूंक लागलें. जशें कांय ताका वेंग मारतलें. अुदयान विषयाक आपलेवटेन येता तें पळयलें आनी ताचीय पावलां फांस धावूंक लागलीं. तोय विषयाक वेंगेंत घेवंक सोदतालो.

दोगांय अेकमेकाचें वेंगेंत वचून चार वर्सांच्या विरहाची तडफड अेका खिंणात ना नपयत करूंक सोदी. संवसारातले खंयचेच गजालीची पर्वा करीनासतना तीं दोगांय मोगाच्या दर्यात बुडूंक सोदी.

पुण दोगांय लागीं पावल्याबरोबर अेकामेकाचे वेंगेंत रिगलींना. दोगांयच्या मदीं अेका पावलाचे अंतर अुल्लें. अवचीत दोन पुतळे अुबे केल्लेभशेन दोगांय घट जालीं.

विषयान लजून आपल्या काळजांतली वसाड अुदयाक दाखयली. अुदयाचे नदरेक नदर दिवंक विषयाक जमलेंना. ताणे मान सकयल घातली. ताचो सुस्कार नेटान व्हावूंक लागलो. दर्याच्या ल्हारांवेले पातमारेभशेन ताचे हड्डें वयर-सकयल जावंक लागलें.

अुदयान चान्याचो आदार घेवन विषयाक वयर ते सकयलमेरेन नियाळून पळयलें. ताकाय शेळो घाम सुटलेलो. विषय पाशाणी म्हुर्तीभशेन अुबे आसलें. अुदय हांसलो आनी ताणे अधिकारान विषयाचे खाडके पोदां हात धल्लो. विषयाचे कुडींत जोगलाभशेन चकचकलें. अुदयान विषयाची मान नीट केली. विषयान नदर वयर करचेलो येत्न केलो पुण ताका तें जमलेंना. ताणे दोळेच धांपले. विषयाच्या नाकांतलो हुन-हुनसो अुस्वास अुदयाच्या हाताक आफडूंक लागलो.

'म्हाका पळोवंचेना?' अुदयाच्या आवाजांत मोगाची गोडसाण आसली.

विषयान पातकड्यो मिचकावन ल्हव - ल्हव अुगडल्यो. ताच्या दोळयांत पयसुल्ली नखेत्रां दिसूंक लागलीं.

'खूप सोबीत जालां!' अुदयान अेक मोवाळ सुस्कार सोडलो.

विषयाकूय सांगन दिसलें, 'तूंय तर सोबीत जाला' पुण ताचे ओंठ अुगडलेचना.

'म्हजो अुगडास काडटालें?' अुदयान अचळय विषयाचे खाडकेवेलो हात काडलो.

विषयाकूय विचारीन दिसलें, 'तूंय म्हजो अुगडास काडटालो?' पुण विषय कांयच विचारूंक शकलेंना. ताचे ओंठ फकत थरथरत रावले. पुण अेक सुपुल्लो हांसो ताच्या मुखामळार आसलो. मात्शी लजूय पोल्यांर आसली. ताणे परत मान बागोवन नदर भूंयेर लायली.

'वेदोळ पार्टेक तुकां पळोवन म्हाका सामके अज्याप जालें.' अुदयान सांगलें.

तेसरशीं अुदयावांगडा नाचतले चलयेचे चीत्र विषयाच्या दोळयां मुखार अुबे रावलें. ते चलयेविशी विषयाक विचारीन दिसलें. ती चली कोण? ताचे आनी तुजे नाते कितें?

पुण विषयाक विचारचेलें धाडस जालेंना. अुदय तर ताका मेळपाक अितल्या रातचो काळजांत मोगाचो धग घेवन आयिल्लो. अुदयाक जर विषयाचो मोग नासलो जाल्यार अितल्या रातचो तो ताका मेळपाक येवचोच कित्याक?'

'चल.' अुदयान विषयाचो हात धल्लो.

विषयाच्या आंगार कांटो अुबो रावलो.

'चल, थंय बसूया.' अुदयान झाडा पोंदच्या बांकाक बोट दाखयलें. तो बांक तांच्या भुरगेपणातले अिश्टागतीचो अेक गवाय आसलो.

विषय कांय अुलयलेंना. कोणा राजाचो हुकूम पेद्यान मानलेल्याभशेन तकली सकल घालून विषय अुदयावांगडा बांकासरीं गेलें.

अुदय विषयाक तेंकून बसलो. ताणे विषयाक अमेरीकेच्यो खूप गजाली सांगल्यो. चार वरसांचें फोणकूल तर भरून काडून जाय आसलें. विषय आवडीन आयकतालें आनी शेवण्यांच्या आवाजाभशेन, 'आं, अुं' करीत सूर दितालें. ताच्या ताळयाची पिल्लूक सारोळेभशेन वाजताली. अुदयान विषयाक अमेरीकेच्या होटेलांतल्यो नागड्या नाचाच्योय खबरी सांगल्यो. तेन्ना विषय खूप लजलें. जश्यो कांय त्यो अमेरीकेच्यो राती विषयाचे लजेमुखार फाटीं पडल्यो!

अुदयान विषयाक जायत्यो खबरी सांगल्यो. पुण ते चलयेची खबर मात सांगलीना. ते चलयेविशीं सगळी खबर विषयाक जाय आसली. अुदय आपुण जावन ते चलयेविशीं सांगता काय म्हूण विषय वाट पळयतालें. तीं दोगांय वेदोळ नाचतना खूप अुमेदीन आसलीं. तो तांचो अेक मोगाचो वांटो आसूंक शकतालो. अुदयाक वायट दिसत म्हूण ते चलयेविशीं विषयान कांयच विचाल्लेंना.

निमणे विषयान हे चलयेविशीं जाणून घेवचेखातीर अुदयाच्या बोल्साक खोयिल्ल्या धव्या गुलाबाच्या फुलाक पळयलें. काळया कोटाचेर तें फूल अुठून दिसतालें. पार्टेचे कपडे अुदयान बदलूंक नासले. विषयान त्या फुलाचेरूच नदर लायली.

चंद्रीम आता बरोच वयर आयिल्लो. दोगांयचेर चान्ने पडिल्लें. चान्नाच्या अुजवाडान वेषयाच्या नदरेचो सोद घेत अुदयान विचाल्लें, 'विषय फूल सोबीत आसा न्हय?'

अपेक्षेभायलो असो हो प्रश्न विचारून अुदय आपली फकाणां करता अशें विषयाक देसलें. तें फूल तर ताका ते चलयेन दिलां आसतलें. विषयान मान सकयल घातली, आनी चितूंक लागलें.

'हांव हांगसर येतकच तूं दिसलेंना. तेन्ना भुरगेपणातली याद जिवी दवरूंक दिसपट्टें बागेंतलें फूल तोडून बोल्साक लावंक हांवें सुरवात केली.' आनी अुदयान विषयाच्या पोल्यार चिरपूट मारून सांगलें, 'हेंय अेक फूल म्हाका खूप सोदल्या अुपरांत मेळलां.'

'आं ऽऽ!' विषय कितें तरी विचारूंक वतालें. ताचे ओंठ नवलान फुल्लें.

'हय तर, तुकां कितें दिसलें, हें फूल म्हाका आशान दिलां म्हूण?' विषयाक जाय आशिल्ल्याच मुद्द्यार अुदय पावलो. विषयाचे मन अितलोवेळ अुदयाक जें विचारूंक सोदी, तोच प्रश्न अुदयान अुल्लेखिल्लो.

'कोण आशा?'

'आगो तें - म्हज्या वांगडा नाच करतालें पळय तें. आशा. सामकेंच म्हज्या गळयांत पडटा.

'कितें सांगता?'

'हय गो, म्हजे म्हाका आता वायट दिसता, तुजे फूल घेनासतना परतें दिलें म्हूण.

'कित्याक?'

'पुण तेन्ना हांव तरी किते करतलो? वेळूच तर तसो आसलो. आशा तर म्हजी फाट सोडिना.' अुदयान आपली बाजू सांगली.

विषयाचे ओंठ हांसले. अुदय आपलोच मोग करता म्हूण ताचे आंग अुमेदीन चंवरलें. सगळो संवसार आपले मुठींत आयिल्लेभशेन विषय अवचीत भारावन केलें.

मागीर अुदयान विषयाक आशाची सगळी खबर सांगली. विषयाचे कुशीचो अुदय मात्तूय हालूंक सोदीनासलो. तो ताका आपल्या दोळयांमुखारूच दवरूंक सोदी. विषय आपले वेंगेतूच अुरचें अशें अुदयाक दिसतालें. पुण तेन्नाच देङ्ट्यावेलो गुरखो खोकलो. तो खंयच्याय वेळार तांचेवशीन पायस मारूंक शकतालो. म्हणटकच अुदयान सांगलें, 'चल, या आतां, हांव तुका दारामेरेन पावयतां. फांतोड जायत आयली.'

विषय बांकार बशिल्लें अुठून अुबें रावलें. अुदयान तेन्ना सांगलें, 'विषय, आमी फाल्या दिसाची मेळची न्हय.'

'मागीर केन्ना?'

'फकत रातची मेळूया.'

'रातची?'

'हय. आनी तिंय बी हांगसर न्हय, तर माळयेर. म्हजे कुडींत.'

'कुडींत शीं कित्याक?'

'आगो, हांव अशे कायच घडोवन दिवंक सोदीना जाच्यापासून तुकां ख्यास्त जायत.'

'कसली?'

'तेंच सांगता गो. आमी दोगांय अेकामेकाक मेळटात हे कोणाकूय कळत जाल्यार तूं म्हजे पासून पयस जावंक शकता. आमची ताटातूट जावंक शकता.'

'खरेंच?' विषयान नवलान विचाल्लें.

'हय' अुदयान सांगलें.

विषयान खिंणभर चिंतलें - वेवारांतल्यो कांय गजाली आता ताका कळटाल्यो. आपल्या मोगाची काणेय दिंड काडिल्ली विषय कशें पळोवंक शकतलें? ताकाय तर अुदयाचो सांगात जाय आसलो. विषयाक अुदयाचेच वेंगेंत रावचें शे दिसतालें.

घडये तांची ही गजाल विस्वासरावाक कळत जाल्यार तो विषयाक बंगल्या भोंवतणी घासून भोवूंक दिवचोनासलो. दादाचे कामूय बी सुट्टलें. मागीर विस्वासराव आनी ताची बायल माआीबाय विषयाकूच दोश दितलीं - विषयान आपल्या पुताची वाट लायली. ताका मोगाच्या जाळयांत फसयलो. आमचे मीठ खावन आमच्या खुस्तार अेदें व्हडले जालें आनी आता आमचेरूच परतलें. आपल्या पुताची गिरेस्तकाय पळोवन ताका मोगान पिसो केलो.

हें अशें जाल्लें विषयाक नाका आसलें. म्हणटकच हें सगळें सात-पांच विषयान चिंतलें आनी मान हालोवन ताणें सांगलें, 'बरें बाबू, फाल्यां मेळूया आमी माळयेर.' दुसऱ्या अर्थान विषयान अुदयाच्या अुतराक मान दिल्लो.

दोगांय चाळी मुखार आयली. विषय अुदयाक कितेंतरी सांगूक वतालें. पुण ताका तें सांगूक जमलें ना. तांचे मेळप अर्देकुटें जाल्लें. काळजांतली तडफड अजून अुणी जावंक नासली. विषयान अुदयाक पळयलो आनी मागीर मळबांतल्या चंद्राक नदर लायली.

'विषय' अुदय ल्हव आवाजात फुतफुतलो.

'कितें?'

'फाल्यां मेळूया!' विषयाच्या सोबीतकायेच्या दर्यात अुदय बुडूंक सोदी.

अुदय घरा वचपाक म्हूण वळलो. पुण ताचे मन वचूंक तयार नासलें. फकत नदरेन मोगाची तान कशी भागत? तो सट्ट करून वळलो, आनी विषयाक नेटान वेंगेत घेवन ताच्या ओंठार आपल्या ओंठाचो पोसो तेंकयलो. विषयाचे शितळ ओंठ... अमुरपिके ओंठ ताणे अचळय चिंवले!

विषयाक खिंणभर कांयच कळलेंना. पुण ताका खोस जाली. ताणे लजेन दोळे बंद केले. ताच्या आंगार कांटो फुल्लो. सायल्याचे पान चोळटकच हात तांबडे जाता, तेभशेन विषयाचे सगळे आंग तांबसार जालें. जिणेंत पयले खेप विषय अुदयाच्या ओंठाची गोडी चाखतालें. ताचे कुडीक हुलोप पेटलो. कानसुलां तापलीं. आंगातले रक्त सळसळून सगळे

आंग अेक वेगळेंच बंड करून अुठलें. विषय अुदयाच्या वेंगेच्या घोटेरांत रिगलें. दोगांय युगा-युगांपासून म्हणटा तशीं मोगाक तापलेलीं. विषयाच्या थंड ओंठार आपले ओंठ दवरून अुदय पेटिल्लो अुजो पालोवंक लागलो. विषयूय अुदयाच्या ओंठाची रूच घेवंक लागलें.

विषयाक दिसलें - अुदयान ताका अशेंच घट धरचें. सगळी जीण अशीच अुरची. ही धरती आनीक घुंवूच नाका. हो खिंण असोच अुरचो. अितक्या वर्सांचो मोग सांसणा खातीर खरो जावंचो.

कांयवेळ असोच गेलो. विषय अुदयाक पणसाच्या पाखांक दशिल्लेभशेन दसत गेलें. आनी अुदय अितक्या वर्सांच्या वियोगाचें फोणकूल पुरोवचेखातीर विषयाक आपल्या गोपांत घट्ट आवंळीत गेलो.

बरो वेळ वतकच अुदयान विषयाक आपले वेगेंतले मात्शें विस्कळ केलें. विषयान नेटान अुस्वास सोडलो. हांसोळेचे तन्ने कोमरेभशेन विषयाचे पोले तांबसार जाल्ले.

अुदयान विषयाचे तोंड दोनूय हातानी धल्लें. तेन्ना विषयान ताचे नदरेक नदर लायली. अुदयान परत विषयाच्या ओंठाचो मोग केलो. हे फावटीं सामको ल्हव. मागीर कानाची पाळी चिंवली. पोले, खाडकी आनी गळयाचोय मोग केलो. मागीर अुदयान ल्हवू सांगलें, 'फाल्या मेळचीं', आनी विषयाचे पोले ल्हव थपथपावन, ल्हान कस करतल्या भुरग्याक समजयल्लेभशेन विषयाक समजावन अुदय न्दिंदूक गेलो.

अुदय नदरे आड जायसर विषयान ताका पळयलो. मागीर ताची नदर चंद्रीमार गेली. चंद्रीमान तांची चोरी धरिल्लेभशेन तो हांसतालो. विषय आपले - आपुण मुरगुटलें. ताणे आपल्या ओंठाचेर बोटां भोंवडायलीं. मागीर अुमेदीन तें घरांत गेलें. तेन्ना दादा जागो जायत म्हूण ताणे पावलांचोबी मात्तूय आवाज जावंक दिलोना.

ती हांतुण्णार पडल्या तेन्ना फांत्यापाराची सुमार साडेचार वरां जाल्ली. विषयाची न्हीद पयस गेल्ली. ताणे कुशी आरतून-परतून पळयलें. पुण ताका न्हींद येना जालीं.

अजुनूय आपुण अुदयाचेच वेंगेंत आशिल्लेभशेन ताका दिसतालें. अेक अनवळखी तळमळ ताका काचुल्यो करताली. ते तळमळीचो अणभव विषय पयले खेप घेतालें. तो अणभव ताका खूप गोड लागलो.

अुदयाकूय बाज्जेर पडटांच न्हीद लागलीना. ताचे हात विषयाक वेंगेतूच आवळूंक शिंवशिंवताले. विषयाच्या ओंठापासून ताच्या ओंठाची तान भागच्या बदला अदीक वाडली. अेके भेटेंत ती तान भागतली तरी कशीं ?

आनी दुसरेवशींन आशा अुदयाच्या अुगडासान, सुक्यार पडिल्ले जीते शेवटाळे भशेन बाज्जेर न्हिदलां थंय फडफडटालें. आपल्या सांगात्याविशीं आनी संवसाराचीं सपना रंगयतालें.

सकाळ जातकच विषयाक, सुर्याची किरणां नवो हावेस, नवी आस, नवी अुमेद, नवी खबर घेवन आयलीं. बागेतलीं फुलां ताका हांसतालीं. भवरें गुणगुणटाले. पाखे आनी बिरमुट्यांनी नाचूंक सुरवात केल्ली. रातराणयेचे झाड विषयाक 'आर्राऽऽ तूं,' म्हणटालें. तिळसांज दोगांयचे भेटीचो आधार घेवन येवंक लागली. आनी रात जातकच विषय चंद्राचे वेंगेंत वचूंक नखेत्र जालें. रातचे नखेत्र चंद्राक मेळलें तेन्ना अेक खूप व्हडली अुमळ जावन गेली.

विषयान आपल्या बाबाक मंगळुराक पत्र धाडून आपुण आनीक थोडे दीस हांगसरूच रावता म्हूण कळयलें.

विषय आनी अुदय नेमान रातची माळयेर मेळूंक लागलीं. दिसाचोय अुदय सवड पळोवन विषयाक मातसो मेळून वतालो. तो ताका मोगान तोखेतालो. तेन्ना विषय आपल्याक कोणूय पळयत म्हूण भिवून आडेकडेक हरणाभशेन पळयतालें. अुदय ताचेकडेन मातसो अुलयतालो. रातची मेळची म्हूण अुतर दितालो आनी चडसोवेळ आपल्या अिश्टांवांगडा घालयतालो.

आशाय अुदयाचे फाटीक लागतालें. पार्टे दुसरेच दिसाची गजाल. पार्टेक अुदय-

विषयाची भेट जाल्या ती ताणे पळयल्ली. आनी ताका अुदयाचो दुबाव मारिल्लो. म्हणटकच सकाळफुडेंच आशा अुदयागेर आयले. हे विषय आनीक हांगसर खंयचे येवन पडलें कांय म्हूण आशा येवजीतालें. बागेंतली फुलां पळोवचेले निमीत करून ताणे विषयाक सारकें पळयलें.

तेन्ना विषयाच्या बिराडाचें दार अुगडेंच आसलें. तें पाटार बसून दनपारच्या जेवणाचे तांदूळ सुपांत घेवन वेंचतालें. विषयानूय आशाक पळयलें. पुण ताणे आशाक पळोवंकूच नाशिल्लेभशेन केलें.

मागीर केन्ना-केन्नाय आशा येवन विषयाक पळयतालें. माळयेवेल्यान नाजाल्यार बागेंत बी रावून आशा विषयाचो मागूस घेतालें.

अुदय आशापासून मातसो पयसूच रावूंक लागलो. तो ताचेकडेन चड अुलय नासलो. पुण ताका तशें अेकदम भासयनासलो. ताका जाता तितलें आपले-आपुणूच तो पयस करूंक सोदी. तरी आशा तांगेर येवन-वचून आसलेंच. तें अुदयाक खंयसरूय फोर्सान भोवूंक व्हरतालें. केन्ना नाचाक, केन्ना पार्टेक, तर केन्नाय हॉटेलांनी बी. पुण अुदय विषयाक आपले कुडींत रातचो मेळचेलें चुकय नासलो. आनी कितलीय रात जाली जाल्यार पासून विषय ताची वाट पळयतालें. अुदय पयली माळयेवेल्यान विषयाक खूण करतालो. मागिरूच सगळे सामसूम जातकच विषय फाटली वाटकुळी अिस्काद चडून अुदयाक मेळूंक वयर वतालें. अुदयाचे वेंगेंत वचूंक. मोगाच्या संवसारात शेणूंक.

आशा अुदयागेर आयले म्हणटकच विषयाक ताचे गाडयेवेल्यान कळटालें. मागीर तें जनेलाच्या आडसाक रावून बंगल्यार नदर मारीत रावतालें. आनी आशाय बी बंगल्यात रावून विषयाक पळयतालें. आशा येतकच विषयाक समजा कितेंय काम आसत जाल्यार तें सकयले मानेन वतालें. ते आशाचे नदरेक नदर दिनासलें. आशाक मात्शें भितालें म्हळयार जाता. आपल्या मोगाक तडो वचत म्हूण विषयाक भय दिसतालो. आशा अुदयाच्या फाटल्यान लागला म्हूण विषय जाणा आसलें. अुदयाक आशाकडले संबंध तोडपाक खूप वेळ लागतलो आसलो. म्हणटकच विषय आशाचे तावडेंत कशेंच सापडूंक सोदीनासलें.

विषयाचे विचीत्र वागणूकेन आशाच्या मनांतलो दुबाव अुणो जावच्या बदलाक वाडत वतालो. आशाक अुदयाचे कुडींत, मेजावेल्या वाझांत दीसपट्टी नवी-नवी टवटवीत फुलां दिसतालीं. अमेरीकेकसून येतकच अुदयाक फुलांची खूप रूच लागल्या आनी आपली ओड कमी जाल्या म्हूण आशाक चडूच दुबाव येवंक लागलो. अमेरीकेक तर अुदयाक फुलांचो सोंस नासलो. पारा-पारान आशाचे मतींत विषयाची अुतरां घुमतालीं. 'फुलां वांगडा खेळपी काट्यांची पर्वा करीना.' मागीर आशा चड - चडूच विरार जातालें. अुदय आपल्यापासून पयस वचत म्हूण तें ताच्याच वांगडा दीसभर रावूंक लागलें. कितेंय निमतां करून, अुदयाक घेवन भायर भोवूंक लागलें.

अुदयाचो सबाव खूप भिडेस्त आसलो. आशाक तो सामकें तोडून अुडोवंक सोदीनासलो. ताचे मम्मी-पापाक तर आशा आवडटालें. तीं आशाक बरीं वागयतालीं. घरच्यांची मनां दुखयनासतना अुदय आशाक अिल्लें-अिल्लें पयस करूंक पळयतालो.

पुण तांची सोयरीक ती अमेरीकेक आसतनाच घट केल्या म्हूण अुदयाक खबर नासली. दामून आनी विस्वासरावान पयलीं कितें भानगडी केल्या त्यो ताणीं अुदयाक सांगूक नासल्यो. दामूबाबल्या घरची अिश्टागत अुरची अशे आपल्या पापा-मम्मीक दिसता, अितलेंच अुदय जाणां आसलो.

दीस वचत रावले. विषय अुदयाक रातचें सदांच वचून मेळटालें. वतना तें फुलां घेवन वतालें. वांझातली आदले दिसाची पार्थीफुलां काडून नवी दवरतालें. अुदय ताचे खातीर चंद्रीम आसलो आनी अुदयाखातीर विषय रात. चंद्रीम ना जाल्यार रातीक सोब ती कसली?

दोगांय वरांची - वरां अेकामेकाच्या वेंगेंत रावतालीं. खूप गजाली करतालीं. तांच्या मोगाचे गोडयेंत रातराणयेचो परमळ भरसतालो. जनेलांतल्यान परमळ भितर सरतालो आनी तांकां अदीक गुल्ल करून सोडटालो. दोगांय काळखांत अेकामेकाक वेंग मारून भुरगेपणातल्यो यादी काडीत, रातराणयेक पळयत जनेलाकडेक बसतालीं. त्यावेळार रातराणयेच्यो ताळयो वाऱ्याच्या झोतावांगडा जनेलांतल्यान भितर सरून तांकां आपटताल्यो.

अेके सांजेर अुदय आपले कंपनीचे मिटींगेक वचूंक भायर सरतालो. आदले रातीक ताणे विषयाक, आपुण फाल्यां मिटींगेक वतलो म्हूण सांगून दवरिल्लें. कपडे घालतना माळयेवेल्यान ताणे विषयाक पळयलें. विषय हातांत अेक गुलाबाचे फूल घेवन बागेंत अुबें आसलें.

आनी कपडे बी चडोवन रोकडोच अुदय विषया म्हऱ्यांत आयलो. तेसरशीं विषयाच्या तोंडातल्यान आपशींच अुतर फुटलें. 'तू?'

'हय. तुकां वयल्यान पळयलें आनी आयलो.' उदयान हांसत सांगलें.

विषयूय हांसले आनी हातांतल्या गुलाबाच्या फुलाक पळयत रावलें. फूल ताचेचभशेन सोबीत आसलें.

'हे फूल म्हजेच खातीर तोडलां न्हय?'

विषयान मान हालोवन खुणेंनूच हय म्हूण सांगलें.

अुदयान फूल घेतलें आनी नाकाकडेन व्हरून ताचो परमळ घेतलो. ताच्यो पाकळयो ओंठाक लावन चुमल्यो. विषयाक पळयत ताच्याय ओंठाक अुडते चुमलें आनी फूल बोल्साक खोयलें.

फुलाच्या जाग्यार अुदयान आपल्याकूच काळजाक खोयल्लेभशेन विषयाक दिसलें. ताणे लजेन नदर दुसरेकडेन वळयली. आनी तेच घटकेक ताका सट्ट जालें. ताची नदर अुदयाच्या जनेलार गेली. आशा जनेलार आसलें. आशा वाघणीभशेन गुरगुरून आपल्याक पळयता आनी नदरेनूच अुजो पेटोवन आपलो गोबर करता अशें विषयाक दिसलें. तें सोमतेंच धवें फटफटीत जालें.

अुदयान विषयाचो अुतरलेलो मुखडो पळयलो आनी ताचे नदरेचो सोद घेत फाटल्यान वळून पळयलें. जनेलार आशाक पळोवन ताकाय कचच् जालें. विषयापरस तो चड गोंदळांत पडलो. ताका कांयच सुचना जालें. बिजलेचो शॉक आयिल्लेभशेन तो आशाक पळयत अुल्लो.

आशान रागान जनेलाचे दार खडांयच करून आपटीले, आनी थंयचे नाच जालें. दार फोरसान आपटिल्लें म्हूण आयण्या भशेन तें धोल्लें. आशान दोगांकूय रंगेहात म्हणटा तशी धरलीं.

अुदयाच्या तोंडातल्यान अवचीत अुतरां आयलीं, 'अरेच्या! हें आनी केन्ना आयलें?' मागीर ताणे विषयाक सांगलें, 'हांव तुकां रातचो मेळटा.' आनी तो बेग-बेगीन आयल्लो तेच वाटेन फाटल्या दारांतल्यान बंगल्यात गेलो.

विषय समजलें - आता सगळें सोंपलें म्हूण. ताणे भितर वचून हांतूण्णार घालून घेतलें. ताचे तकलेंत ना थंयची विचारांची वादळां घुंवपाक लागलीं.

अुदय फाटसून भितर सल्लो तोच पयलीं आपले कुडींत गेलो. पुण आशा थंय नासलें. तो धांवत सकयल वसऱ्यार आयलो. त्याच वेळार गाडी चालू करून आशा देंह्याकडेन पावलें. अुदय ताका मोट्ट्यान अुलो मारीत दाराभायर आयलो. पुण आशाची गाडी नदरे पलतडीन पावली.

अितल्यान माअीबाय अुदया म्हऱ्यांत आयली आनी पुताक विचाल्ले, 'बाबू आशाक तुवें कितें अुलयलें?'

'हांवें?' अुदय गोंदळांत पडलो.

'हय'

'ना. हांवे ताका कांयच अुलोवंक ना.'

'मागीर ताच्या दोळयांत दुकां कित्याक आसलीं? हांवे ताका हटकिले, पुण कांयच सांगीनासतना रडत भायर सल्लें.'

आशान विषयाभशेनूच आपल्याचेर मोग केला आसतलो म्हूण अुदय समजलो. विषय अुदयाक फूल दिता ते पळोवन आशाक वायट दिसप स्वाभावीकूच आसलें.

'मम्मी, ताचे कितें जालां ते म्हाका कांय खबर ना. म्हाका तर आशा मेळूंकूच ना. हांव ताका मागीर मेळून विचारतां.' अितलें सांगून अुदय कंपनीचे बसकेक गेलो. ताच्या मनांत आतां वचचेलें नासलें. पुण बसका खूप गरजेची आसली. ताचो पापा तर मिटींगेक पयलींच गेल्लो.

आशाचे कितें जालां ते कळचेखातीर अुदयाचे मम्मीन दामूबाबागेर फोन केलो. आशा घरा पाविल्लें. फोन ताणेच अुखल्लो. अुदयाचे मम्मीक आशाचो रडिल्लो फकत आवाज आयकूंक आयलो. फोन आशानूच घेतला म्हूण तिका कळलें. कांय खिंण वतकच धडांयच करून फोन आपटिल्लोय आवाज तिका आयलो. अुपरांत तिणे आनीक दोनदां फोन केलो. तेन्ना कोणे तरी फोन उखल्लो आनी कांयच अुलयनासतना बंद केलो. अितले घडटकच कितें तरी भानगड घडल्याच म्हूण माअीबाय मात्शी शिटकावली. अुदयाच्या पापाक ही खबर तो येतकच सांगप अशें तिणें मनांत थारायलें.

अुदय कंपनीचे बसकेक वतना येवजण्यांनी गुल्ल जालो. तो तरी कितें करतलो आसलो? अशें हे केन्ना तरी घडटलेंच आसलें. सगळो दोश आशाचो नासलो. ताचोय अिल्लो दोश आसलो. अमेरीकेक जर तो आशाच्या लागीं वचना जाल्यार आशा ताच्या मोगान पडना. विषयाविशीं सगळी खबर आशाक सांगची अशें अुदयान मनांत चिंतलें.

अेक आंकवार चली आनी चलो फकत मोगाचेच नातें दवरूंक शकता? अिश्ट जावंक शकना? अुदयाच्या मनांत प्रश्न अुप्रासले!

ते रातीक अुदयान खूण करतकच विषय भिये-भियेत माळयेर गेलें. तेन्ना अुदयान ताका सांगलें, 'हें पळय विषय, आशा म्हजेर तुजे सारकेंच मोग करता. पुण हांव ताका समजायतां. आनी मम्मी-पापाकूय बी सगळी खबर सांगता. तुजेकडेन हांव लग्न जातलो.'

हें आयकून विषयान पयलेच खेप फुडाकार घेवन अुदयाक वेंग माल्ली. ताची अुमेद संवसार भरून वतली. ताणे आपल्या ओंठात अुदयाचे ओंठ घुस्पयले.

मागीर अुदयान विषयाक खूप गजाली सांगल्यो. घराविशीं, बागेविशीं, रातराणयेविशीं बी. रातराणी तर तांच्या मोगाची मुखेल आसली.

निमणे विषय वतना अुदयान सांगलें, ‘विषय, हांव सकाळी वचून आशाची समजूत घालतां आनी मागीर मम्मी-पापाक आमच्या मोगाविशीं सांगता. मागीर विषय अुमेदीन आपल्या बिराडांत परतलें.

दुसरे दीस सकाळी सुमार णव वरांचेर अुदय आशागेर वचूंक भायर सल्लो. अितल्यान तांच्या मुखेल ऑफिसांतल्यान फोन आयलो. तांचे मिनाचे खणीर अपघात जाला. अेका ट्रकाचे ब्रेक तुटून ट्रकाचो धपको खणीच्या कट्याक बसला. ट्रक चलयतल्या ड्रायव्हराक खूप दुखापत जाल्या आनी तो जगपाचो भरवंसो ना. ताका हॉस्पीतळांत घातला.

ही अपघाताची खबर आयकून अुदयाचे काळीज सामके कळवळलें. आपुण खणीर वता म्हूण ताणे पापाक सागलें आनी बेगो-बेग तो भायर सल्लो.

आशा कितेंय भानगडी करीत म्हूण तो ताका समजावंक तांगेर वचूंक भायर सरिल्लो. पुण ताणे आपल्या मोगाचो विचार फाटीं दवल्लो. धनयाची जापसालदारकी निबावंक तो पयलीं गेलो.

अुदय वतकच ताचे मम्मीन कालची आशाची खबर आपल्या घरकाराक सांगली. विस्वासरावान सगळें आयकून घेतलें. अुपरांत दामूगेर फोन केलो. फोन दामून अुखल्लो.

‘आशाचे कितें जालां?’ विस्वासरावान विचाल्लें.

‘म्हाका कांयच कळना.’ दामून सांगलें.

‘म्हणजे?’

‘कालच्यान रडटा. आमी काल बरी अुसरां घरा पावलीं, तेन्ना हें रडटालें. विचाल्लार कांयच सांगना.’

‘म्हणजे ताचे अशें जालां तरी कितें?’ विस्वासराव.

‘काल तुमगेर वता म्हूण गेल्लें खंय, तें रोकडेंच रडत आयलें. राती जेवंकूय ना. तुमच्या थंय बी ताचे कितें जाल्लें?’

'ना. हांगसर आयले आनी रोकडेंच रडत भायर सल्लें खंय.'

'आमी खूप समजायलें, विचाल्लें. पुण कितेंच सांगना. अुदयाचे आनी ताचे कितें तरी जावंक जाय. हांव तुमकांच फोन करून आपोवंक सोदतालों.' दामू.

'बरें आसा. येता आमी.' अितलें सांगून विस्वासरावान फोन दवल्लो, आनी बायलेक घेवन दामूगेर गेलो.

विस्वासराव दामूगेर पावलो तेन्ना आशा बाज्जेर पडलां. ताचो आवय-बापूय ताका बाय - पूते करून समजायतात. ताचे दोळे रडून-रडून तांबडेगुंज जाल्यात.

'आशा, कितें जालां तुजे?' विस्वासरावान वचना फुडें विचाल्लें.

'बाय, काल कित्याक रडत गेलो गो?' माअीबाय.

'हांव कित्याक रडटां तें तुमच्या पुताक विचारात.' आशान फुगार जावन सांगले. कालच्यान तें पयले खेप अुलयलें. ताचो आवाज बसलेल्या भशेन जाल्लो.

'तुकां कितें अुलयलें ताणें?' दामून धुवेक विचाल्लें.

'तो म्हाका कितें अुलयतलो?' आशा मात्शे - मात्शे जाग्यार येवंक लागलें. 'मागीर कितें घडलां तें सारकें सांग पळोवया.' माअीबाय.

आशा वोगीच रावलें.

'आशा, तूं म्हजी सून. आनी म्हाका सांगना?' विस्वासराव.

'तुमची सून ह्या जल्मांत काय फुडल्या?' आशान नेटान विचाल्लें. ताच्या आवाजांत तिरस्काराची धार आसली.

'ह्याच जल्मांत. हांवे दामूबाबाक अुतर दिलां, तें ह्याच जल्मांत. म्हजी मान तुटत पुण अुतर तूटपाचें ना.' विस्वासरावान अभिमानान सांगलें.

'मागीर विषय नांवाचे चलेयक घरांत हाडून कित्याक दवल्ल्या?' आशान तिडकीन विचाल्लें.

'विषय!!' सगळयाच्या कपलाक मिरयो पडल्यो.

'हय,........!' आनी आशान कालची सगळी खबर तांकां सांगली. अुदय आपल्यापासून पयस-पयस पळटा तेंय बी आशान सांगलें.

ही खबर खरी आसूंक जाय म्हूण विस्वासराव आनी माअीबाय शिटकावली. अुदय अमेरीकेक वतकच विषय घरा गेल्लें. आनी अुदय येतकच रोकडेंच हांगसर आयिल्लें. हांतूत कितेंतरी गुडूलासांव आसूंक जाय. विषयानूच अुदयाक भुलयला आसतलो, मोगाचे जाळें रचलां आसतलें, असो ताणी तर्क केलो.

विस्वासरावान दामूबाबाक सागंलें, 'भिवूं नाकात तुमी, हांव सगळे जाग्यार अुडयतां. आशाच सून म्हणून आमच्या घरांत येतलें'.

अितल्यान वावराड्यान हाडिल्ली - च्या सगळयानी घेतली. आनी मागीर विस्वासराव-माअीबाय घरा गेलीं.

घरा येतकच विस्वासरावान पयलीं शंकरमाळयाक आपोवणो धाडलो.

शंकर रातराणयेच्या मुळाचे आळे खोलयतालो. धनयान आपयला म्हणटकच ताणें खोरें, कुदळ बी थंयच अुडयलें आनी बेगो-बेग बंगल्यात गेलो.

विस्वासराव आनी माअीबाय वसऱ्यावेल्या सोफार बसलेलीं. शंकर येताच तांच्यो जळजळीत नदरो ताचेर खिळल्यो.

'धन.......' शंकराची फडली अुतरां अर्दकुटीच अुल्ली.

'घे ऽऽऽऽ!' अशे म्हणत विस्वासरावान नोटीचे अेक गुठलें शंकराचेर भिरकाटायलें. तें ताका आपटून तिजूल्यांर पडलें.

'तुज्या कामापरस चड आसात. आयच्यान तुजे काम बंद. त्यो नोटी अुखल आनी आत्ताच्या - आत्ता हांगसून चलूंक लाग. आनीक केन्नाच ह्या बंगल्याचेर नदर पासून घालूं नाका.' विस्वासरावान तापून सांगलें.

धनयाची ही अुतरां आयकून शंकर कडकडलो. आपल्या हातान कसली चूक घडल्या

तें ताका कळलें ना. शेणलेल्या दोळयानी तांकां पळयत ताणे कोपरमेरेन हात जोडले आनी सांगलें, 'धनयानो म्हाका कितलींशींच वर्सां जाली, तुमचे मीठ खातां. हांव तुमच्या हुकमाभायर वचना. पुण हो बंगलो सोडचे आदी म्हाजो कितें गुन्याव आसा ते धनयांनो......'

'तुजो गुन्याव तुकां खबर ना जाल्यार, वचून नातीक विचार. तें ह्या बंगल्याची राणी जावंक सोदता. राणी. आमच्या बाबूक फसोवंक पळयता. त्यो नोटी अुखल आनी तुजे नातीक घेवन अेकदाचें तोंड काळें कर.' विस्वासराव रागान तापलो.

हें आयकून शंकराक सट्ट झाले. फाटले पार्टेची ताका याद जाली. आपली चीट मेळटांच विषय आयिल्लें आनी नटून-थटून पार्टेक गेल्लें, ती ताका याद जाली. तेन्ना विषय आपल्याक न्हय तर धाकल्या धनयांक मेळूंक आयिल्लें म्हूण दादाक आतां पुरेपूर कळलें. विषय थोडेच दीस हांगसर रावपाक आयिल्लें, आनी कितलेशेच दीस जाले तरी घरा वचना हाचेय कारण ताका आतां अुलगलें.

शंकराक आनीक अेक फाटले गजालीची याद जाली. तो बरे रातीर मुतूंक जालें म्हूण जागो जाल्लो. ताणे लायट पेटयली तेन्ना विषय हांतूण्णार नासलें. मागीर पांचेक मिनटांनी मात्शें खरशेत विषय भितर आयिल्लें. तेन्ना दादान ताका विचारिल्लें, 'बाय विषय, अितल्या रातचें खंय गेल्लें ?'

'खंय..... ना.... दादा..., पोटांत मातसो घांस माल्लो. कुमावांत गेल्लें.' विषयान आपल्या बिराडांत अुजवाड पळोवन, दादा अुठलो हे जाणीवेन अुदयाच्या म्हऱ्यांतल्यांन बेग-बेगीन आयिल्लें.

त्यावेळार दादाक अुदयाच्या कुडींत अुजवाड आनी हय न्हय शी सावळीय बी झळकल्ली. तेन्ना ताणे चड मनार घेतलें ना. पुण आता ताका ते घडणुकीचो सारको अर्थ कळलो.

विषय आपल्याच जिवार अुठलें म्हूण शंकर रागान काळो-निळो जालो. ताणे पायाकडेन पडिल्ल्यो नोटी अुखल्ल्यो आनी धाकल्या मेजार दवरीत सांगलें, 'धनयानो, तुमचे अुपकार म्हाजेर खूप आसात. हे दुडू दिवन म्हाका आनीक अुपकाराच्या वज्याखाला चेपूं नाका.' अितलें सांगून तो राकट पावलां घालीत नेटान भायर गेलो.

राती अुदयान सांगिल्लें तें मनांत घोळयत विषय भाजी शिनतालें. अुदय आपलेकडेन लग्न जातलो आनी आपल्याक व्हडलो घराबो मेळटलो म्हूण विषय खूप अुमेदीन आसलें. तें मनांतल्या मनांत अुमेदीन हांसतालें.

अितल्यान दादा भितर सल्लो. रागान जाणटेलो थरथरतालो. ताच्या दोळयांत रागाची हुनसाण आसली. अितलो तेंप ताणे विस्वासरावाच्या बंगल्याची सेवा केल्ली. आनी शेवटाक हे अवस्थेन तोंडाक काळें फांसून वचचे पडटा, ज्या पोराक वेंगेंत घेवन ल्हानाचे व्हड केलें ताचेखातीर मान सकयल घालची पडटा म्हूण ताचे दोळे रागान अिंगळयाभशेन रसरसताले.

विषयाची भाजी शिनून जाल्ली. ताणे आदोळी अेकेकडेक दवल्ली आनी विचाल्लें, 'दादा, कित्याक आपयल्लो व्हडल्या धनयान?'

दादा वोगीच रावलो. ताची अस्वस्थ जाल्ली नुरा पळोवन शिनिल्ले भाज्जेचे ताट अुबारीत विषयान परत विचाल्लें, 'दादा, कितें जालां?' कित्याक आपोवन व्हेल्लो?'

त्याच वेळार, 'दळिद्रया, बायेक खायऱ्या.' अशें म्हणत दादान दांत - ओंठ चाबून विषयाच्या कानसुलार सणसणीत थापट फुलयलें.

तेसरशीं विषयाच्या हातांतलें भाज्जेचे ताट सुटून जमनीर पडलें. भाजी सऽळळ करून चोंयवशीन पातळली. थापटाच्या नेटान विषय कदेलीर शेवटलें. मागीर दादा ताचे फाटीर, पोटार मेळत थंय थापटां, मुठी मारीत रावलो. तो बडबडटालो - 'दादाक खायऱ्या, हेचखातीर तुकां ल्हानाचें व्हड केल्लें ? हेंच खातीर धनयांन तुकां शाळेत घातलेंले? बायेक खायऱ्या, तेंच्या चेड्याक मोगान भुलोवपाक हांगसर येयलांय? दळिद्रया, पापणी सांग, कित्याक येयलां हांगसर?'

विषयान ताका कांयच जाप दिलीना. दादा आपल्याक कित्याक मारता तें ताका कळ्ळें. आपली बाजू ताणे कांयच सांगली ना. तें मार खायत रावलें. दादाच्या म्हाताऱ्या हाताची हाडां विषयाच्या फुलासारख्या कुडीर बसून, सगळे आंग काळे-निळे जालें. पुण ताणे तोंडातल्यान अेकपासून अुतर काडलेंना. माराची दूख सोंसचेखातीर ताणे ओंठ अेकामेकाक दामून धल्ले. तरी आसतना दोळयांच्या बादांक खावटें पडलेंच. ताणे आपली

कूड जाय तशी पिसूड म्हूण दादाकडेन सोंपयली. दादा ताका मारीत रावलो. रागान बडबडत रावलो. 'बायेक खायऱ्या, ल्हान आसतनाच कळलेंले, तूं आमचे अब्रू वांगडा खेळटले म्हूण, जाल्यार राणग्या, तेन्नाच तुजो गळो मुद्दितलो आसलो.'

विस्वासराव आनी माओबाय बंगल्यात रावून हो बोवाळ आयकतालीं.

अितले म्हणसर वावराड्यो, मानाय बी दादागेर जमले. ताणीं विषयाक दादाकडलें काडून घेतलें. मागीर दादान सगळयांक धांवडायलीं, आनी अेकेकडेक बसून खरस निवळावंक लागलो.

विषय जमनीर थपकल मारून दुकांगाळूंक लागलें. ताका माराचे दूख जालें ना. पुण दादाच्या अुतरांचे चड दूख जालें. दादाच्या अुतरांनी विषयाच्या काळजाक चाळणीभशेन बोंथे केले.

विषयाक रागान मारतना, आपली नात फुलाभशेन निस्पाप आसा म्हूण दादान चिंतलेंना. पुण ताचो तरी कितें गुन्याव आसलो? ताळी कांय अेका हातान वाजना.

मागीर दादान सवकासायेन चिंतलें. अुदयाची अुतरां ताच्या कानांत घुमलीं. 'विषयाक चीट बरयत जाल्यार हांव आयला म्हूण कळय.' तेसरशीं अेकल्या विषयाचोच गुन्याव ना म्हूण दादाक पटलें. पुण धनयांक हें कोण समजायतलो? विषयाक आपणे बेठेच बडयलें म्हूण दादाचे काळीज कळवळलें. तो खूप चुरचुरलो. ताका आपले हात तोडीनशे दिसले. मागीर कडकडत ताणे विषयाची अपुरबायेन फाट थापटिली. तो विषयाचे कुशीक बसलो आनी मोगान सांगलें, 'बाय, म्हाका गुन्याव भोगशी.'

विषयान दादाचे वेंगेंत घालून घेतलें. मोठ्यान वो ऽ वो ऽ करून रडूंक लागले. रडू - रडून ताका खरस आयली. अुचक्यो येवंक लागल्यो. रडटना ताचो आंवडो फुगार जावंक लागलो. दादानूय ताचेर आपल्या हुनहुनीत दुकांचो अभिशेक घातलो.

कांय वेळान दादान विषयाक समजायलें, 'बाय, आता आनीक हांगसर रावची न्हू. आमी बाबागेर व्चूया. मोग बी म्हणटा तो गिरेस्तांचो खेळ. आमचो न्हू. आमी सुकलेल्या खोलयां भशेन. तेणी फूंक माल्ल्यार आमी अुडोन वचपाचीं. तूं सामान लागीं कर. हांव भाड्याची गाडी घेवन येता. 'अितलें सांगून दादा भायर सल्लो.

विषयाचे सगळे आंग दुखतालें. तशेंच तें ल्हव-ल्हव अुठलें आनी ताणे थोडे सामान लागीं केलें. कपडे बी अेका पोन्न्या ट्रकांत घातले. आयदनां बी मेळत तशीं अेका साकांत भल्लीं.

आतां अुदयापासून पयसूच गेल्लें बरें अशें विषयान चिंतलें. मोग म्हणजे गिरेस्तांचो अेकेतरेचो जुगार. ह्या जुगारांत आपुण फसतलें अशें ताणे येवजीलें.

पुण विषयाचें मन अुदयाक कशें विसरतलें ? अुदयान तर ताका लग्नाचें अुतर दिल्लें. खूप विचार करुन ताणे अेक पत्र बरोवंक घेतलें.

मोगाळ बाबू,

आमचो मोग रातचो काळखांत जाल्लो. अुजवाडांत ताका मान ना. दिसाचो ताका अुजाळो ना. रातराणी रातची फुलता आनी रातचोच परमळ पातळायता. अुजवाडलें म्हणटकच सगळो परमळ ना-नपयत जाता. पुण बाबू, आमच्या मोगाची याद जागोवपी तिच रातराणी आसा. बागेंतली फुलां आसा. तांकां पळोवन हांवूच तुज्या म्हऱ्यांत आसा अशें समज. तुवें म्हजेकडेन लग्न जाता म्हूण अुतर दिलें, तितलेच म्हाका खूप जालें. तुवें म्हजेर केल्ले अुपकार हांव केन्नाच विसरचेंना. ही म्हजी तुकां निमणी भेंट.

तुजे,

विषय

विषयान पत्र बरयलें आनी भायर येवन ताणे बागेंतले अेक गुलाबाचें फूल तोडलें. ते फुल आनी पत्र घेवन सगळयांची नदर चुकोवन फाटल्या दारांतल्यान विषय अुदयाचे कुडींत गेलें. ताणे फूल वाझांत दवल्लें आनी पत्र ताच्या कुशीक शिरकयलें. अितल्यान सकयल्या वसऱ्यार मोट-मोठ्यान जाल्लें अुलोवप ताका आयकूंक आयलें. ताचे पाय थंयच दसूनशे अुल्ले. ते बारिकसाणेन तें अुलोवप आयकूंक लागलें.

विस्वासराव आनी शंकर, अुपरांत शंकर आनी विषय हांचे मजगती जाल्ले दुशीत - वादळी वातावरण सोंपता थंय आसा, अुदय घरा पावलो.

खणीर वतना अुदयाक वाटेक तांचे कंपनीची जीप मेळली. जिपींत अपघात जाल्ल्या ट्रकाच्या ड्रायव्हराचे मडे आसलें. त्या ट्रकाचो ड्रायव्हर मेल्लो. मडे ताच्या घरा पावयताले.

म्हणटकच अुदयाची खणीर वचचेली पावठ चुकली. तो थंयसुल्ल्यानूच परतलो आनी मेला त्या ड्रायव्हराच्या घरा गेलो. ताच्या घरच्याच्या दुखांत मात्सो वांटो घेवन परतलो.

अुपरांत अुदय भायल्या - भायर आशागेर गेलो. ताणे भुरगेपणांतल्यान चलत आयिल्ल्या आपल्या आनी विषयाच्या मोगाची खबर आशाक समजावन सांगली. ताका बरें करून समजायलें. आपुण फकत तुकां अेक अिश्ट मानतां अशेंय अुदयान आशाक सांगलें. आपली बायल म्हूण अुदयान आशाक केन्ना पळोवंक नासलें. अुदयान सांगिल्लें आशाक पटलें. आनी आशान अुदयाक विषयावांगडा लग्न जावंचेली मान्यताय दिली. अितले जातकच अुदय अुमेदीन घरा आयलो.

अुदय वसऱ्यार पावलो तेन्ना विस्वासरावान ताका अुलो माल्लो. 'बाबू!'

'कितें पापा?'

'दामूबाबागेर आमी नातें जुळयलां. आशा पसंत आसा मरे तुकां?' अुदयाचे मम्मीन अपुरबायेन विचाल्लें.

'कितें आशा?' अुदय गोंदळांत पडलो.

'आता जाता तितले बेगीन म्हुर्त धरूया.' अुदयाचो पापा.

'हय तर! दामूबाबागेलोय तसोच विचार आसा.' मम्मी.

'पुण मम्मी म्हाका अितले बोगीन लग्न जावपाचें ना.'

'कित्याक?'

'पुण पापा, आशा तर.....'

'पुण कितें?'

'पापा, हांव आशाक अेक अिश्टीण म्हूण मानता. हांव ताका आतांच मेळून आयलां.' अुदयान नमळायेन सांगले.




'अिश्टीण बायल जायना?'

अुदय वोगीच रावलो.

'आमी दामूबाबाक अुतर दिलां.'

'पापा, आशा ह्या लग्नाक तयार ना. हांव ताचेकडेन लग्न जावंक शकना.' अुदयान आतां मात्शे धिटायेन सांगलें.

'मागीर कोणाकडेन लग्न जतलो?' ताचे मम्मीचो मात्सो अुंचेलो सूर.

कांय खिंण वोगीच गेले. मागीर अुदयान मान सकयल घालून सांगलें. 'विषयाकडेन.' हें सांगताना ताचे ओंठ ल्हव पुटपुटले.

'विषयाकडेन?' पापा - मम्मीच्या तोंडातल्यान तिरस्काराचो सूर आयलो.

'हय. हांवे विषयाक लग्नाचे अुतर दिलां.' अुदयान हात चोळीत तांकां पळयनासतना सांगलें.

'आमी आसतना तूं अुतर दिवपी कोण?' मम्मी तापली.

'आमी दामूबाबाक अुतर दिलां ताचे कितें?' बायलेपरस विस्वासराव अदीक तापलो.

'तुमकां कशें समजावं? हांव विषयाचेर मोग करतां.' अुदयान समजावणेच्या सुरान सांगलें.

'आमी शंकराक कामावेलो काडलो.' मम्मी.

'कितें ?'

हय. ताका कामावेलो काडलो आनी ताका हांगसून धांवडायला. कितें म्हणपाचें आसा तुकां?' अुदयाच्या पापान रागान विचाल्लें.

'बरें आसा. विषयाक हांव घेवन येता.'

'बाबू, विषयाक ह्या घराचे सोपण चडूंक मेळचेंना.'

'बरें तर पापा, हांवूच वता ताच्या वांगडा.'

'गेल्यार जाता. पुण म्हजे अिश्टेंटीतली अेकपासून कवडी तुकां मेळचीना.' विस्वासरावाचो आवाज रागान चडत वतालो.

'म्हाका पर्वा ना. हांव म्हज्या पायार अुबो रावतलो.'

'त्या देड दमडेच्या पोराक लागून तूं आमकां विसरता?'

'मम्मी तें देडदमडेचें न्हय.' अुदय वचपाक वळ्ळो.

'म्हणटकच आमकां सोडून तूं वता?'

'हय पापा, म्हजो मोग आसा थंय वतां. म्हजो सर्ग आसा थंय हांव वतां.'

'लज दिसना असली अुतरां आवय-बापायक सांगपाक? तुकां ल्हानाचो व्हड केलो, अितलो शिकयलो, आनी आतां ते चेडये फाटल्यान वता?'

'शी - शी पापा, तुमच्या सारक्याच्या तोंडात असली अुतरां सोबनात. विषय कशेंय आसल्यार तें म्हजेच आसा. तुमी मोग विकतो घेतात. तुमच्यापरस चड मोग म्हाका विषयान भुरगेपणापासून दिला.' अितलें सांगून अुदय कपडे बदलूंक माळयेर गेलो.

वसऱ्यार चलतलें हें अुलोवप रेडव्यावेल्या नाटकाभशेन विषय माळयेवेल्यान आयकतालें. अवचीत सोपणार जाल्ले पावलांचे सुलूशीन विषय भानार आयलें. कोणतरी वयर येता म्हूण तें शिटकावलें. ताका कितें करूं आनी खंय वचूं अशें जालें.

अुदय वयर येता तो ताका दिसलो. विषय अुदयाक मेळूंक सोदीनासलें. घडये आपुण अुदयाक मेळत जाल्यार, तो पापा-मम्मीकडेन आनीक वाद घातलो आनी आपल्याक घेवन घर सोडटलो, अशें विषयान चिंतलें. म्हणटकच ताका लिपपाक एकूच जागो आसलो आनी तो म्हळयार बंगल्याचो तेर्रास. तें झूप्प करून कुशीची अिस्काद चडून तेर्रासार गेलें.

आपले कुडींत येवन अुदयान बेग-बेगीन सादेशे कपडे चडयले आनी धांवत सकयल देंवलो. पापा-मम्मीकडेन आनीक कांयच अुलयनासतना तो भायर सल्लो.

पापा-मम्मीन ताका आडायलो ना. सुखार वाडिल्लो पूत, काम करचे पडटकच आपशींच पाखां कवळून घरा येतलो, अशें ताणीं येवजिलें जायत. तीं अुदयाच्या मार्गात आड आयलींना.

अुदय विषयाच्या बिराडांत ताका अुलो मारीत गेलो. पुण थंयसर कोणूच नासलो. सामानूय बी जाग्यावेले हालयलां ते ताणें पळयलें.

विषय बंदखणीत पडिल्लेभशेन तेर्रासार अुल्लें. ताका सकयलूय देवूंक मेळना जालें आनी अुदयाची नदर चुकोवन आनीक खंय वचूंक मेळना जालें. अुदय सकयल्यान आपल्याक वयर आसा तें पळयत म्हूण विषय तेर्रासाच्या दाराकडेन येवन वणटीक तेंकून अुबें रावलें.

अितल्यान कोणाचीतरी अिस्कादेर पावलां वाजलीं. परत कोणतरी वयर येता म्हूण विषय शिटकावलें. आतां मात तें भयान सामकें कडकडलें. ताका घामाच्यो पांवळयो गळूंक लागल्यो. हळूच तेर्रासाचें दार धांपतलें म्हूण विषय मात्शें मुखार सल्लें आनी दाराक हात घातलो.

आनी तेच घटकेक विस्वासराव आनी माअीबाय विषयाक दिश्टीं पडलीं.

अुदय भायर सरून गेल्या अुपरांत, तो वयर कितें करून गेला, तें पळोवंक विस्वासराव आनी माअीबाय माळयेर ताचे कुडींत वचूंक आयिल्लीं. दोगांनीय विषयाक तेर्रासार आसा ते पळयलें. नदरेक नदरो भिडल्यो. ती दोगांय अुदयाचे कुडी सामकार रावून, विषय तेर्रासाच्या दाराक धरून आसा तें रागान पळोवंक लागलीं. आनी चितळ दिसतकच वाघ गुरगुरता ते भशेन विस्वासराव गुरगुरलो, 'चोरा, हांगसर आनीक कितें चोरूंक आयलां?'

ते सरशीं विषयान कडकडत धडांयच करून तेर्रासाचे दार थांपले आनी खिळी घातली. विस्वासराव आनी माअीबाय, 'चोर - चोर', अशें म्हणत मोट-मोठ्यान तेर्रासाचें दार धोडावंक लागलीं.

आपल्याक आनीक कशीच सुटका ना. अशें विषयान चिंतले. आपले नातीचेर

आनीक चोरयेचो आळ आयिल्लो ताचो दादा पळोवंक शकचो नासलो. घडये ही आनीक खबर आयकून दादाचो जिवूय वचत आसलो. अुदय आपल्या भांगरासारक्या सुखाचेर खोंट मारून घरांतलो भायर सल्ला आनी आपल्यावांगडा वचूंक तयार जाला, तें विषयान वेदोळ आयकल्लें. अुदयाच्या आवय-बापायान ताच्या निश्पाप मोगाक ल्हाशें लायिल्लें. वेल्यान आतां चोर म्हूण सिध्द करतलीं. अुदया वांगडा संवसार थाटून, ताच्या आवय-बापायचे आनीक श्राप विषयाक नाकाआसले. अुदयान ताचेवेलो मोग आवय-बापायकडेन मोकळेपणान अुक्तायलो तितलेंच विषयाक खूप जालें.

पुण विषयाच्या मनांत ना-ना तरेच्या विचारांनी गोंदळ केलो. ताका कितें करूं आनी कितें नाका अशें जालें. पयलीं ताका दादाचो भरपूर मार पडिल्लो तांतूत हे आनी मनस्ताप. ते धांपिल्ल्या दाराकडेन पळयत फाटले-फाटीं सरकत रावलें. ताका ल्हव-ल्हव घुंवळशी येवंक लागली. तेच अवस्थेत तेर्रासाचे धडे कडेन केन्ना पावलें तें विषयाक कळलेंच ना. अवचीत ताचो तोल गेलो आनी विषय तेर्रासावेल्यान सकयल कोसळले.

विषय घरांत ना म्हूण अुदय भायर आयलो, विषय खंय दिसता कांय म्हूण जळीं -मळीं पळोवंक लागलो. तेन्नाच धपांयच करून कसलो तरी ताका आवाज आयलो म्हूण ताणें मुखार पळयलें. जाल्यार विषय सकयल पडलां. ताणे, 'विषय ऽऽऽऽ' म्हणून अेकूच किंळाच माल्ली. तो धांवत ताचेसरीं गेलो.

अुदयान वचना फुडें विषयाची तकली आपले माणयेर घेतली. ताका कांयच सुचना जालें. 'विषय विषय,' म्हणत तो रडूंक लागलो. सगळोच कडकडूंक लागलो.

विषय जुस्त रातराणयेच्या झाडा कुशीकूच तेर्रासावेल्यान पडलें. शंकराक धनयांन आपोवन व्हेल्लो तेन्ना तो खोरीं बीं थंयच अुडोवन गेल्लो. त्याच शिरेन आशिल्ल्या खोऱ्याचे धारेर विषयाची तकली पडली. आनी चिबूड पिकून फुटोळी पडिल्लेभशेन ताचे तकलेक घावो जालो. रगताच्यो धारो व्हांवूंक लागल्यो. तें पडटांत अेक रक्ताची शिळकी रातराणयेच्या मुंदार अुसळली. तेर्रासावेल्यान विषय पडटा आसतना ताच्या तोंडातल्यान किंळाच बी फुटलींना. वेल्यान तोंड्वेली नुरा सुखावल्ली. तें जिणेतलें निमणे खिंण मोजूंक लागलें.

अुदय विषयाक सावशीत करपाचो येत्न करूंक लागलो. त्यावेळार ताची दुकां पांवळेभशेन विषयाच्या कपलार गळूंक लागलीं.

अितले म्हणसर सगळे मानाय, वावराड्यो आनी अुदयाचो पापा-मम्मी थंय पावलीं. तीं सगळी हो भंयाकृत देखाव पळोवन कांचेवलीं. सगळी चुरचुरून विषयाक पळोवंक लागलीं.

विषयान ल्हव-ल्हव दोळे अुगडले. आपल्या अुदयाक ताणे दोळेभरून पळयलो. अुलोवंचे खातीर ताचे ओंठ ल्हव-ल्हव हाल्ले. 'बाबू', ताणे कळवळयान पुण मुखड्यार हांसो हाडीत अेक-अेक अुतर तोंडातल्यान भायर काडलें. 'हांव..... वतां...... बाबू,'

'विषय, ना विषय.'

'तुजे..... वेंगेंत... मर्ण..... येता - हें - केदे - भाग्य!'

'ना विषय, तूं ना जाल्यार हांवे जगून कसलो फायदो! विषय, तुकां दिल्लें अुतर म्हाका खरें करूंक जाय. हांव तुज्या वांगडा येवंक घरांतलो भायर सल्लां. हांव तुकां मरूंक दिवचोना.' आनी अुदयान अेकल्याक हुकूम सोडलो. 'चल रे, डॉक्टराक फोन कर. बेगीन.' तेसरशीं दोगजाण बंगल्यात धांवले.

'नाका.... बाबू, आमच्या.... मोगाची... गवाय... रातराणी.....!' विषयाचे दोळे धांपून येवंक लागले.

'अुलय विषय, म्हाका अर्द्यार सोडून वचूं नाका.' अुदय सथर-विथर जालो.

'बाबू... तूं..... आशा.... कडेन... लग्न... जा. तुकां.... अेक..... निमणी... भे... ट... ' फुडलीं अुतरां विषयाक सांगपाक येना जालीं. ताणे कडकडत हात अुदयाच्या ओंठार दवल्लो आनी भेट वयर दवल्ल्या म्हूण खूण केली. अितल्यान ताचो हात घळघळून सकयल पडलो. ताका निमणी बावकी आयली आनी मान अुदयाचे माणयेर लवंडली. विषयाची जीव जोत पालवली.

अुदयान 'विषय' म्हणून आरड माल्ली. विषयाचे निस्तेज कुडीक वेंग मारून तो मोठमोठ्यान रडूंक लागलो.

विस्वासरावान अुदयाक विषयाच्या म्हऱ्यांतलो पयस केलो. ताच्याय दोळयांतल्यान दुकां गळटालीं. सगळीं कामवालींय रडटालीं. ह्या मोगाच्या बळीन सगळयांक दिपकावन सोडलीं.

अुदय तर पिशांतूर जालो. ताची परपरत सुद्द वचूंक लागली. त्याचवेळार विषयाचो दादा सामान व्हरूंक भाड्याची रिक्षा घेवन आयलो.

हो भंयाकृत देखाव पळोवन त्या म्हाल-म्हाताऱ्याची वाच्याच बसली. ताका घुंवळ येवन तो जमनीर पडलो. वावराड्यांनी ताका अुदक बी मारून साबुद्दीर हाडलो. ताका रडपाक पासून त्राण अुल्ले ना. त्यावेळार धनयान ताच्या खांदार हात घालून धीर दिलो.

सगळेकडेन दुखवटो पातळलो. बागेंतलीं फुलां बावलीं. भोंवरे नाचना जाले. पाखे पाखां कवळून बसले. आनी थंड वाऱ्याचे सुलूशीन रातराणयेची पार्थीफुलां विषयाचे कुडीर झडूंक लागलीं. विषयाक निमणो निरोप दिवंक, ताका आर्गा ओपूंक, रातराणी दिसाचीच परमळ घेवन आयली.

x x x

अुदय रातराणयेच्या झाडाक पळयत बसतालो. रातचो वरांची - वरां जनेलाकडेन बसून विषयाचे यादीन दुकां गाळटालो. चान्ने राती तर तो खूप विरार जातालो. गुलाबाची फुलां काळजाकडेन धरतालो. चंद्रीमाक-नखेत्रांक तोखेत रातराणयेच्या परमळान आपले भितर अुदय गुल्ल जायत वतालो.

अशावेळार आशा येवन अुदयाक समजायतालें. ताका थापटितालें. मागीर अुदय आशाक वेंगेंत घेवन, 'विषय - विषय,' म्हणत बडबडटालो.

विषयाच्या निमण्या अुतरांक मान दिवंचे खातीर अुदयान आशाच्या गळयांत मंगळसुत्राचें बंदन घाल्लें.

●●●





**अशोक भोंसल्याची बरपावळ.**

- खुटावणी - कथा संग्रह (कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार, १९९०)
- भिमा तुजो खांबो चुकलो रे - एकांकी
- सूरवन - कविता संग्रह (कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार, २००२)
- बालकविता झेलो - प्रकाशनाचे वाटेर
- रूपांतरीत अ-प्रकाशीत नाटकां ☆ हम पांच
  ☆ बेकार जावंय लाखांधनी

**जैत प्रकाशन**